# अक्षयदिवो

आनंद वर्टी



# अक्षयदिवो


पारिजात, हनुमान क्रॉस रोड २, मुंबय 400 057

प्रकाशन क्रमांक : 102
1993

'साहित्य पसवण' भागींक : पंद्रा रुपया

प्रकाशक – राजहंस वितरण
1–मीनाक्षी बिल्डिंग, डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी, गोवा – 403 001

मुद्रक – राजहंस ऑफसेट
1–मीनाक्षी बिल्डिंग, डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी, गोवा – 403 001

मुखपृष्ठ – गजानन च्यारी

– मोल –
1993 वर्सा 60 रुपया
1994 वर्सा 72 रुपया
1995 वर्सा 86 रुपया

'पयलो चंवर' येवजणेत गोवा कोंकणी अकादेमीच्या
पालवान हो संग्रह प्रकाशित केला

ISBN 81-85854-01-7

# कांय गरजेचे बदल

| पान | वळ | आसा | जाय |
|---|---|---|---|
| पयलें | ३ | कारवार | कारवारा |
| | ५ | वंठार – हाजेनंतर 'आपसूकच गाणें आयल्यार अजाप न्हीं. म्हज्या कंवळ्या मनार ह्या सोबीतपणाचें' ही वळ जाय. | |
| | ५ | साहित्याचे | सायित्याचे |
| | १५ | दिलें | दिल्लें |
| | १८ | कन्नड | कन्नडात एक |
| | २२ | प्रजावणी | प्रजावाणी |
| दुसरें | ९ | आजय | आयज |
| २१ | १४ | पाकार | पाखांर |
| २४ | २ | व्हरुंग | व्हरुंक |
| | ५ | गूढ शब्दाउपरांत 'ह्या' हो शब्द जाय | |
| | ८ | जाल्ययार | जाल्यार |
| | ८ | अपमान | अपमानान |
| ३२ | १७ | भिडतेर | भिडतेरे |
| ३४ | ११ | सकाळपासून | सकाळपसून |
| ५१ | निमाणी | ६ ऑगस्ट ५७ | ६ ऑगस्ट ७८ |
| ५५ | १२ | ताजो | ताजे |
| ६७ | ३ | गर्दी | गर्दीत |
| ६९ | १६ | काळ्या–निळ्या शिरा–नरांत शिरांत – निमाणो 'शिरांत' हो शब्द नाका | |
| | १७ | उदंड | उद्दंड |
| ७० | ६ | ल्हवून | ल्हवूच |
| ७४ | ४ | दिसलेल्यांत | दितलेल्यांत |
| ७६ | १३ | केडां | केंडा |
| ७७ | ११ | उदका | उदक |

आयुध ह्या मराठी वार्षिकाच्या बंगाली साहित्य अंकाचे संयोजन केलें. पूण काव्य मात्र बरयलें ते कोंकणीतच. साद, साळीक, प्रजेचो आवाज, विद्या, ऋतु ह्या कोंकणी नेमाळ्यांनी म्हज्यो कविता उजवाडा आयलो. नियमितपणान मुंबय आकाशवाणीचेर फाटल्या अडतीस वर्सां काव्यवाचन करीत आयलों. १९८१ त भौमान्य दिनकर देसाई हांगेल्या कोंकणी कवनसंग्रहाचे संपादन, प्रस्तावनालेखन आनी निर्मितीय केली. पूण म्हज्यो कविता पुस्तकरूपान आयजमेरेन वाचप्यांच्या हातांत पडूंक नाशिल्यो.

आजय तो भाग्याचो दीस उजवाडला म्हणून खोस भोगता. ह्या खातीर सगळ्यांत पयलीं आभार मानतां ते भौमान्य प्रभाकर भिडे हांचे. ताणीच तर मनार घेवन, ताकतिकेन ह्या पुस्तकाचें काम तडीक व्हेलें. आपल्या 'पयलो चंवर' ह्या येवजणुकेंखाला आर्थिक तेंको दिवन गोवा कोंकणी अकादेमीन तर म्हाका कायमचेच ऋणी केला. म्हजें इश्ट भौमान्य माधवबाब बोरकार हांणी पुस्तक जातातितलें निर्दोष जावपाक वेळोवेळी जी मदत केली त्याखातीर हांव तांचे उपकार मानतां. सोबीतपणान पुस्तक सजोवपाचें काम केलां म्हजें इश्ट भौमान्य अजित लोटलीकारांनी मुखचित्र काडलां तें ताणींच. ते म्हणटात की वयर मळब, सकयल धर्तरी आनी मदें आसता जिण्याच्या चिरंतन चैतन्याचो परजळ, जगन्मातेच्या हातांची राखण मेळलेलो. हांव म्हणटां, अरे, तोच तर म्हजो अक्षयदिवो – जाची गाणीं हांव केन्नासाकून गायत आयलां.

(आनंद वर्टी)

१, पारिजात,
हनुमान क्रॉस रोड २,
विलेपार्ले (पूर्व),
मुंबय – 400 057

| पान | वळ | आसा | जाय |
|---|---|---|---|
| ७९ | ९ | म्हणटा | म्हण्ण |
| | १९ | आशिल्लें | नाशिल्लें |
| ८१ | १७ | नदरेन | नदरेत |
| ८२ | १२ | गेले | गोले |
| ९० | ५ आनी ६ | ह्या वळेंमदी 'आयाळीची गेल्या कळा' ही वळ जाय. | |
| | १५ | कारता | करता |
| ९२ | १८ | भंय | भंग |
| ९४ | ४ | भंय | भंग |
| | २० | भिजयलें | भिजयतलें |
| ९६ | २६ | वेग | वेंग |
| १०१ | १८ | जाता | जातात |
| १०३ | १० आनी ११ | ह्या वळेंमदी 'आसतात कांय मायेमोगाची' ही वळ जाय | |
| १०८ | ५ | घालती | घालतात |
| ११७ | २ | पळोयां | पळोंव्यां |
| १२४ | ७ | आयालो | आयलो |
| १२६ | निमाणी | २८ सप्टेंबर' ८६ | ३ सप्टेंबर' ६७ |
| १२७ | १७ | बायले | बाये |
| १२८ | १७ | दिसानी | दिकांनी |
| १३० | १ | मनबाचो | मळबाचो |
| १३३ | २२ | काण्णा | काण्ण |
| १३४ | ५ | इतिहाचाच्या | इतिहासाच्या |
| | ६ | घुरुंक | धुऊंक |
| १३६ | ९ | इक | एक |
| | २१ | जानव | जावन |
| १४२ | ८ | घोंड | घोंडे |

म्हज्या काळजांतल्या
काव्याच्या दिव्याक
तेल-वात घालत
ताका अक्षय पेटतो दवरपी
आकाशवाणी-मुंबयच्या
कोंकणी कार्यावळीक –

# मांडावळ

# काळजाची उतरां

काळजाची उतरां । आयलीं उमाळ्यान
मोती शिपेंतल्यान । भायर जशीं

उतरां निर्मळ । मन म्हजें उक्ते
फुल्लेले गा नित्कें । फूल जशें

हांतून ना कुंडो । मेळचे ना गा पोल
सोलूनच सोल । दंवरलेलें

पैल्या पावसाचो । धर्तरिचो श्वास
जावन माते वास । येता हांका

दर्याच्या गाजेचो । आसा हांका छंद
कल्पनांक बंध । मळबाचो

पुनवेच्या उदकाक । उचंबळ चड
जीवघेवपी ओड । चंद्रिमाची

तशी म्हजी आस्त । तुज्या चैतन्याचो
स्पर्श तांका जावचो । परीसाचो

कारवार, २ जून ७५

# म्हजें कोंकण

देह हांगा मन म्हजें थंय कोंकणात
कवन हांगा स्फूर्त थंय नंदनवनात
याद थंची साद दिता फुलैता मनाक
म्होंवाळ सपनां-साय येता म्हज्या भावनांक
थापटितालो आंग म्हजें वारो थंडगार
फांटीमुळां कंवळी तणां चादर पांचवी चार
झुळझुळपी उदक पिवन न्हिवताली गा तान
भूक म्हजी सोंपताली रुचीक शिंयाळान
भरलेली भाटां उबी शेतां दोळ्यांर न्हियाळतात
कणसां फुलौन मानो बागौन म्हाका आपैतात
फणस केळी म्होंवी आनी सिताफळां थंय
नारंगा तोरंगा अननसांचे कुळार सांग खंय
ओवळां फांत्यो सुरंगी सोर थंय देखल्यात
चारां चुन्नां चिंवरां चिचो थंय चोकल्यात
चकचकीत मासळी ती स्वाद विसरुं जायना
नगली शेतकांक भुलता जीव सुंगटा शेवट्यां दायनां
उंच लाटां फाटोफाटी कसो तांचो थाट
चट्कन्न रेवें वतात फेंड वैर दाट
सुरी रूक इश्ट म्हजें तशें उंच माड
येवजतात ताणी केल्लें अजूनय लाड
हांसो मुखार आनी म्हज्या भास जिबेर गोड
आवैभास अमरुताची जिवापरस होड
शांती हेंच धन थंय जिणें कांतियुक्त
जल्म मेळूं कोंकणात परत देवा फक्त

कारवार, फेब्रुवारी '५४

# घड्याळ

टिक् टिक्·टिक् टिक् घड्याळ म्हजें
बारीक उलैता बोल रे
अर्थ तातूंत खोल रे
केन्नाय थांबना टिक्‌टिक् सोण्णा
कित्याक घेना आराम रे
'आराम करचे हराम रे।'

पळांफाटल्यान घटिका धांवता
चल्लो चल्लो काळ रे
गेल्लो सल्लो वेळ रे
भांगरां खीण आयुष्याचे
मातेत मेळन गेले रे
परत येनात मेल्ले रे...

वारो उदाक माती प्रकाश
आकाश हांगा उरतले रे
तुगेलें जीवन सरतलें रे
भूमी अखंड काळ अनंत
तू तर एक कण रे
युगायुगाचो क्षण रे

'कित्याक बसला कपाळ धन्न
आळसाय कित्याक सोण्णा रे
यम तुंका विसन्ना रे

आयलें आयलें मरण लागीं
पसन्न विकट जाळां रे
गेली गेली पळां रे...

ऊठ मनुष्या पडूं सार्थकी
देह बऱ्याच्या कारणां रे
देव चुकैना मरणां रे
देस भास आनी लोकांखातीर
थोडे तरी कर अर्पण रे
लोकांले मेळतलें तर्पण रे
मेलो गेलो तर देह नुर्तलो
लोकां मनांत उरतलो रे
मेलो तरीबी रावतलो रे...'

टिक् टिक् टिक् टिक् घड्याळ म्हजे
बारीक उलैता बोल रे
अर्थ तातून खोल रे...

बेळगांव, २ जानेवारी' ५५

# पावल दवरलें

पावल दवरलें हांवे पावल दवरलें
दरवाज्यार माप भितर पायान उमथिलें
        कलशा रुप्या आंब्या पानांर नाल्ल दवरला
        स्वस्तिकाचे चिन्ह रेखून हांतात धरला
मंगल ह्या घटिकेर हृदय नाचलें
        पांचवी कांकणां किणकिणतात आज नवेली
        मंगळसुताक लजून म्हजी मान बावगली
कपलांवैले हुमे थेंब गळूं लागले
        घर म्हज्या रायाचें सान सोबीत
        भल्ला धान्य फुल्लां बाग गोरवां नाचतात
हांव राणी आतां हेंच राज्य मगेलें
        जल्म नवो आज जालो नांव बदल्लें
        पैस उल्लें कुळार म्हजें जालें पैसलें
थंची याद गोड पुणुन जपून दवरतलें

बेळगांव, २ जानेवारीं '५५

# मागणे

आज म्हाका नाका देवा
मात्यावैलें फूल रे
गंध ताजो नाकात भन्न
घालता तुजी भूल रे

आज म्हाका नाका देवा
गळ्यांतलो हार रे
आज नाका प्रसादाची
अमृताची धार रे

आजा नाका मुरलीचे
गीत तुजें धुंद रे
विसन्न तुका पडता म्हाका
संगीताचो बंध रे

आज म्हाका नाका देवा
आशीर्वादा भार रे
म्हज्या विशाळ कर्तुत्वाक
ताज्यान येता मार रे

नाका तुजें कानकुंडल
हाताचो बाजूबंद रे
मन तातूत घुस्पून वेता
मती जाता मंद रे

आज नाका म्हाका देवा
वैभवाची सोब रे
तुज्या पायाचो धुळेकण
एक पुरो खूब रे

बेळगांव, ६ जानेवारी ’५५

# निदे गाणे

बाळा म्हज्या राया । गायता तुका गाणीं
दोळ्या दारांत रावल्या । उबी निदे राणी
सावरे कापसा आंग तिजे
रंगान काळी-सांवळी
रुप निवळ उदकावरी
नाजुक कंवळी कळी
कुर कुर कुर कन्न कानात तुज्या सांगतली ती काणी
घुंगरा पायांत वाजैतेर
म्होऱ्यात येवन बसतली
झेमती तुजी मान पळौन
खुक्कन्न हांसतली
फूक मारून उबैतली पापण्यांची संवणी
पोल्यावैल्यान हात फिरौन
पापी तुजी घेतली
सपनां फुलां झोपाळ्यार
बसून मोडात वतली
हासून मागीर म्हंटली बाळ म्हजो गुणी

मुंबै

## पावसाक

सरसर यो रे धांवन
पावसा
सरसर यो रे धांवन

धगधग भूंय जळूं लागली
आंगातल्यान जाळां उटलीं
झाडां पेडां माडां ताडां गेली पळय रे बावन ..
सुकली चोंच पक्षिगणाची
पळैतात रे वाट मरणाची
फाकां पसल्ली दुकांय सुकली नजो नजो रे जावन ..
नदी व्हाळ रे सुकून गेले
उघडे जाले फातर काळे
तान तान रे सगळेकडे एकच उलो महान ..
टपटप थेंब गळय थंडसाण
तूंच जीवन तूंच प्राण
चराचरांत पाचवें चेतन तुज्या एक स्पर्शान ..
तप्त वतान आकुळपिकुळलो
गरम वाऱ्यान गळोय दुकलो
आनेक उतर येना वटार देवावरी यो धावन ..

बेळगांव, २४ में ५५

## एक खीण !

कुट्ट काळो रंग म्हरे
गुप्प काळोखात
खुट्ट लेगीत ना आवाज
चुप्प शांत रात

मख्ख जाली मती म्हजी
घट्ट जालें मन
चक्क तातूत पेटली वीज
लखख एक खीण !

बेळगांव, २५ आक्टोबर'५५

# कित्याक कृष्णा ?

“कित्याक इतलो वेळ कृष्णा
तुळशीर पेटली वात ?”
“रानात मार्ग मेळना जालो
पसरूं लागली रात !”
“कसो कुकूम लागलो कृष्णा
तांबडो जाला गाल?”
“फुलां वाटेर फापूडताली
मरंदपूड लाल !”
“कांकणाचे रे मानेर कृष्णा
कशे उदेले वळ?”
“वाटेर कवाशान चिरले बाये
अजुनी येता गे कळ!”
“छातेर माळ उदेली कृष्णा
खरे कशी रे सांग?”
“वाटेर येतनां मोगरे वालेत
घुसुन पडलें आंग!”
‘नथेचो वळ कसो रे कृष्णा
तुज्या नाकार ऊदेलो?”
“वाटेर येतनां भोंवर एक
गूं गूं करतेर चाबलो!”
“आंगावैली रे शाल कृष्णा
खंय उडौन आयलो ?”
“वाटेर येतनां निसन्न पडलो
ओ हो थंयच विसल्लो !”

"खोटें कित्याक उलैता कृष्णा
खंची वाट रानाची?
लाज धर रे जरा तरी तू
जनाची नातर मनाची !"

बेळगांव, २५ आक्टोबर'५५

# गुपित

अशी कित्याक थांबली बाये
लजून बावली कित्या अशी
नदर तुजी गो भोंवर मारतनां
परथुन दोळ्यांत लिपली कशी
चंचल पावलां रावली थीर
चंवर दाटलो आंगार
मन कित्याक उबूंक लागलें
मोरापिसांच्या रंगार
कंबरेवैलो कित्याक कळसो
उदाक सकल गळैता
उनाड वारो कित्याक बाये
रसमी केसांक खेळैता
कानसुलां गो कित्याक तांबडी
ओठांत उलौप करगलें
निळसर दोळ्यांचे म्होंव कित्याक
पापण्यांचेर थरथरलें
खांद्यावैलो गो पदर कित्याक
वैलेवैर सरकता
शिरांशिरांत मंजुळ गीत
अशें कशें गो परमळता
नकळ तूं तर सांगता हांव
गुपित तुगेल्या कानांत
नाजुक एक फुल्ला आज
साळीक तुगेल्या मनांत

बेळगांव, ४ आक्टोबर'५५

# फुलांत हांसता

फुलांत हांसता सकाळ सामकी
मळबार झिळमिळी थाट गो
नाजुक ह्या घडियेर सुमंगल
तुजी पळैता वाट गो

दंवान टंवटंवी पानापानांर
धुंद वाऱ्यात पर्मळ गो
आज तुका येवकार दिवपाक
तनमन सगळे चंचळ गो

दिशादिशांतल्यान भल्ला आनंद
दर्याक आयल्या भरती गो
आज उषा सिंगारुन येतली
घेवन हात्ता पंचारती गो

मनांत न्हियाळतां मूर्त मोगाळ
भांगरावरी तुजे गूण गो
वटार बोट तुवें दवन्न
दोळ्यान केल्ली खूण गो

एक एक तुज्या पावलांसरशी
धर्तरि फूलून चंवरतली गो
उतरां तुजी दोन जोडून नातें
खातखुतल्यान म्हाका भरतली गो

मुंबै, २७ सप्टेंबर'६२

# रास खेळ

धुंद गंध चोंयवशीन रम्य रात-वेळ
यमुनेच्या तटार मांडला दिव्य रास-खेळ

भांगरा रोसा शिंवर घालत हांसता मस्त चंद्र
वारो लेगीत गीत गायता सप्तकात मंद्र

झन् झनन झन् झनन घुंगुरांचो ताळ
तांच्या नादात गुंग जावन अडखळला काळ

मोहमयी मुरली वाजैत काठार गवळ्या पोर
अमृतात भिजुन येतात पिशें लावपी सूर

टिपरेर टिपरी पावलार पावलां नर्तनां आनंद
मुकुंदाक भुल्ला सामको फुल्ला गोपीवृंद

मोग तांचो पर्मळीत मुक्त देहभान
वटार उतर फक्त कशें भक्तिपूर्ण गान

रासलिळा कळेन जालां गोकुळ परंधाम
एक एक गोपीसोबत एक एक शाम

ह्याच अणभवाचे सूख रुपरंगचेतना
देह म्हजो गोकुळ जाता परमज्ञान भोगतना

धुंद गंध चोंयवशीन रम्य रात-वेळ
प्राण म्हजो कृष्ण गोपी इंद्रियांचो मेळ

मुंबै, २७ सप्टेंबर'६६

## आज्या तुज्या फाटीवैल्यान

आज्या तुज्या फाटीवैल्यान
दिसता कितलें सोबीत सुंदर
नदर मजी पावता पैस
दिसतात दोंगर दर्या बंदर

आज्या तुज्या फाटीवैल्यान
उंच माड सान कशें
तारवां शिडें दिसता लागी
हरखून लागता सामकें पिशें

आज्या तुज्या फाटीवैल्यान
मळब येता हातांलागी
मनांत उमेद नखेत्रांची
माळ कन्न हाडची बेगी

आज्या तुज्या फाटीवैल्यान
म्हजीच म्हाका स्फूर्त जता
सपनांत म्हाका दिसपी जग
दोळ्यांमुखार मूर्त जाता

आज्या तुज्या फाटीवैल्यान
कितलो सामको होड हांव
बुद्द म्हजी जाता विशाळ
म्हजोच म्हाका लागना ठाव

आज्या तुज्या फाटीवैल्यान
उबार माथ्याचेर म्हाका
जग आनिक कितलें होड
पळौची संद चुकौ नाका

आज्या तुज्या फाटीवैल्यान
आयक म्हजें एक उतर
कान जाल्यात केपें म्हणून
सांगू नाका खिणाभितर

आज्या तुज्या फाटीवैल्यान
उतराय संकल म्हाका तेन्नां
हातापायान घट्टमुट्ट
अणभवान शाणो जेन्नां

आज्या तुज्या फाटीवैल्यान
तो मेरेन भोवंडावन हाड
लाज कित्याक दिसची तुजी
तुज्याच तेंक्यान हांव होड.

मुंबै, २७ में ६६

# प्रार्थना

हांव निमित्तमात्र रे
हांव निमित्तमात्र रे
आज हांव गायतां जरी तुज्या कृपेचें गान रे
सूर तुजोच नाद तुजो शब्द तुजेंच दान रे
हांव निमित्तमात्र रे...
तुज्या पुजेक हाडली हांवे हीं फुलां नवीं ताजीं
हांका रंग गंध रूप दिल्ली ही माया तुजी
हांव निमित्तमात्र रे...
ह्या जगाचे यंत्र अशें चलता तुजी प्रेरणा
फुलून येतांच तुजो हांसो तणा पातेत चेतना
हांव निमित्तमात्र रे...
ह्या कुडेत ज्योत येदी जळौन पैस सल्लो तू
पुणुन बांदून हात म्हजें तनामनांत भल्लो तू
हांव निमित्तमात्र रे...
ना म्हाका म्हजें जिणें जावन तुजोच भक्त रे
बंदखण पुरो तुजी कर आतां विमुक्त रे
ना जाल्यार म्हजें जिणें
जगूनही अपात्र रे
हांव निमित्तमात्र रे...

# चंद्र उदेता

चंद्र उदेता उरांत जेन्नां
मुखार फुलता चान्नें
मनांत फुट्टात ल्हारां आनी
वटार खुलता गाणें

रोम रोम झंकारत उट्टात
प्राणाचो मोर चंवरता
फुट्टात फांकां सातूय रंगांक
सृष्टित हर्ष शिंवरता

शब्दशब्द रसगंधित जावन
मंत्रमुग्ध हांव झेमतां
सघन नाद ओंकार सचेतन
खोल खंयतरी घुमता

ती घटिका अनवळखि अमोलिक
फुलांवरी परमळटा
गोकुळातल्या घननीळाली
कानांत मुरली घोळटा

चंद्र उदेता उरात जेन्नां
म्हाकाच हांव विसरता
प्रकाशांतल्यान प्रकाश उसळटा
चराचरांत तो भरता

मुंबै

# हुंवार

हुंवार आयलो हुंवार बाबा
हुंवार आयलो हुंवार
झाडां पेडां माडां सगळी उडौन केलो संहार
तांबडें उदाक रगत कशें
घुंवळत येतां सामकें पिशें
ताज्या हजार जिबांक पळय करवतीची धार
काटेकुटे हुबुंक लागलें
मानगी सोरोप भितर सल्लें
आकांताळे रुप ताजे भुंयेक जालो भार
उबी शेतां बुडून गेलीं
गोरवां वासरां व्हांवन आयलीं
उघडे पडले कितेकांचे गरीबीचे संसार
नागौन आयलो लाख लोकां
बायलांपोरां दोळ्या दुकां
घरादाराचो गोबर आनी शिताउंडेर विखार
गाळेरबो ताज्या तळात
सातकडची जमीन मुळात
कस कुशीत वसवसता पडून येवंक भायर
म्हणून आशा सोडूं नाका
वाकलो कणो मोंडूं नाका
नव्या मातेंतल्यान येतलें कणीस पांचवें चार

मुंबै

## निळ्या दोळ्या परी

एक निळ्या दोळ्या परी आपैता पळय
आई जोई जोई गावन दोळे म्हजें जुळय

चांदी फांका खांद्यार तिज्या आंगार भांगरा रोस गे
जाई जुई सुरंगी ओवळा फुलांचो बी सोस गे

हासो तिज्या वटांभितर आपोलिपो खेळता गे
लिकलिकित नखेत्रांची फाती केसांर माळता गे

भोंवर मारत घुंगुर वाजैत म्होऱ्यांत येवन बसता ती
खातखुतल्यो कन्न म्हाका खुक्कन्न हांसता ती

गोड म्होंव्या सुरांत मागीर गायता ती गाणी
कुर्कन्न कानांत म्हज्या सांगता ती काणी

सातरंगा झोपाळ्यार बसून हुबता वैर
फूक मान्न कुपां धवीं करता सैरभैर

जादूबडी फिरौन मागीर मंत्र म्हंटा ''ओंनना'
म्हाका पाकांर घेवन उडत खंय वता खबन्ना

मुंबै

# साक्षात्कार

ओल्या रातीच्या उत्तर प्रहरांत
जाग अचानक आयली म्हाका
घट्ट फातरशा काजळ-काळखा
कापतेर गेली वीज शलाका

दृश्यचकित हांवें चोळले दोळे
सर्वांगाक आयली घुंवळ
भांगराचक्रामदेंच दिसलें
एक सनातन सत्य निर्मळ

'सोहम् सोहम्' शब्द आयकलो
निराकार तरी व्यक्त चेतना
कानात जाली कुजबुज कसली
'आत्मानम् उध्दरेत् आत्मना'

ओल्या रातीच्या उत्तर प्रहरांत
आभासाचो आविष्कार
तातूंत फुललो ब्रह्मकमळसो
म्हजो म्हाकाच साक्षात्कार !

मुंबै

# सोरोप

हांव जगाचो इष्ट आनी शत्रु कोण नात म्हाका
तुमी म्हजीं भावभयणी मामा भाचे आनी काका
तुमच्या अपुर्बायेंत न्हाता
तुमच्या हाशांत हर्ष म्हजो
तुमच्या मायेमोगान जाता
जीव सामको फुलून ताजो
सदांच फुडें हात म्हजो तुमच्या कामांक
तुमच्या कृपेन भिंवचोलेगित हांव ना यमाक
हांसत खेळत जगचो मंत्र दिल्लो बापूय एक आसा
एक देव आमचो आनी एक भूंय आमची माता

म्हज्या घरा दारां उकतीं तुमकां सदां सुस्वागत
जातधर्म मानना हांव तुमची म्हजी एक पंगत
भीड नाका मोकळेपणान तुमी हात पांय पसरा
दिवाळी दसरो तेन्नांच जाता संत जेन्ना येतात घरा
समृध्दि संपत्ती आसूं अशोच
सत्‌शिवाचो मात्यार हात
तुमचीय इच्छा म्हजेवरीच
शांती सोबीतकाय आसूं जगांत

पळया पुणी लक्ष्मणरेषा कृपा करून हुपू नाकात
तुमी बरे तर हांवय बरो म्हज्या वाटेक मात्र येवंनाकात
टोचूं नाकात म्हाका खोडीय काण्णाकात

चिमटो घेवन तंटे वाडोवन तापोंव नाकात
एका वाटेचे यात्रिक आमी फुडें व्हरुंग तुमचो घोडो
नस्ती कळंतरा करुं नाकात.
म्हज्या मनाच्या भितर सामकें मान बागौन पळया सकल
खोल गूढ काळकाबांयेत वेटाळो घालून बसला काळ
भांगरा पोटली धरून न्हिदला
मेल्लेभशने पडला सुस्त तो जगाचे भान विसरुन गेला
वाकडी तुमची जाल्ययार चाल अपमान जातलो लाल
चिडून आनी खडबडून
जगो जावन फड्फडून
उठून शिट्कन् फोणो फुलयतेर
फुस्फुस्तेर येतलो भायर...

वीख ताजे गा चडतेरे आंगा बुध्दित भ्रंश
ह्दयांक दंश सत्-शिवाचो अंशबी गोबर जळून
वेताळ नाचतलो शिंग फुंकून
हें घर म्हजें ही म्हजी भूंय
हे म्हजें उदाक हें म्हजें राष्ट्र
ही म्हजी हद्द ती दुसऱ्याची
मागीर कुड्डो हांव धृतराष्ट्र

हे लोक आमचे एकाच रगताचे
गोरे काळे लाल भाव कशें जावचे?
काळ आतां आयला नवो फाटलें सगळें फाटी उल्लें
हांवें पिल्ले आवयले दूद तुमच्यापरस सामकें वेगळें
'उलौव नाका चड आता म्हाका कितें वायट म्हंटा?
थांब पुता तुका बुद्द सट्कन्न शिकौन दिता

वंठ चाबून मूठ दाबून जळच्या दोळ्यांत राग पेटून
मान तुजी धन्न पिळून कानसुलांर वाजयतना
'––– बापुय तुजो उतरपा जाय सोडोवपाक तुका तेन्नां'

उन्मत्त स्वरांत म्हज्या फुत्काराचो रोष आनी
म्हज्या हाता मिठीभितर यमपाशा घट्टपणा
म्हज्या उतर चालीभितर वक्रताय, सूड मनात
सर्पदेही हांव जाणा.

हें चिरंतन सत्य हाका अंत असो केन्नां ना
शुध्द जिणें हाज्या जागपाक शांत केन्नाय रावना
गुपित एक सांगता तुका हांव खरो घट्ट न्हीं
मनांत म्हज्या खाता म्हणून सांगता हांगा कान दी
हाजो विळखो सोडोवन ताज्या ताळयेर पाय दिल्लो ना
म्हणून अशी अवस्ताय शाप म्हजो सल्लो ना

युध्द कित्याक जाय म्हाका हांव शांतिदूत अगा
सोरोप जागो जाल्यार म्हज्यांत प्रचंड प्रळयस्फोट जगांत!

मुंबै

# भूल

फिकट निळ्या मळबार
चडल्या भांगरा ओप
पळयत भुलला चंद्र
उदकांत आपलें रूप

पैस एकमुळी होडी
रावल्या जागच्या जागीं
वाट विसरुन भुलेल्या
क्षितिजा ओळेलागीं

वाटेर व्हाळाच्या देगेन
सांकवाक मिठी घालून
सांगचें गुपित कानांत
आयकता तण भुलून

थंय माडाची जोडी
स्वतःक विसरून गेल्या
धुंदीतच झेमतां झेमतां
भूल सांजेची पडल्या

एक नखेत्र घालता
दोळे मोडून साद
मनाक घालून भूल
आयली हासकुरी याद

मुंबै, एप्रिल'७१

# माथेरान-एक अणभव

पानांतल्यान गळत चान्नें
हांगा दनपारां सडो शिंवरता
थंड वाऱ्याच्या स्पर्शान कंवळया
तांबड्या मातेर म्होंव चंवरता

हांगा दरीतली आर्त वेदना
दोंगरा छातेक दिता टक्कर
घुंवळ-उंची भिनता आंगात
भयानकान येता चक्कर

क्षितिजा देगेर हांगा पातळता
निळी-जांबळी साजुक साय
नाजूक सपना हांगा खुणैतात
चिकटतात पुणि मातयेक पांय

हांगा मनांक फुटतात फांका
पंचप्राणात ब्रह्म जागता
अज्ञाताची ओढ अनावर
बांध फोडून धांवूक लागता

माथेरान

## सूर्यसूक्त

उदेतेच्या मळबार जेन्नां
सूर्यबिंब फुलून आयलें
हर्ष म्हज्या रोमरोमात, नम्रतायेन माथें
बागौन दोनी हात जोडून हांवें
उत्कें काळजान येवकार दिलो
सपनांची पिसोळी म्हज्या
दोळ्यांमुखार नाचली आनी
शेनाईचे सूर मधुर
ओंतून गेले कानांत म्होंव.
रात आमची दैन्याची दुर्दशेची गरीबीची
सल्ली म्हणून हुसकोमेखळो
धल्ली हांवे आस्त मोटी
हांवच म्हजो राजा म्हणून.

जग सामकें उजवाडान न्हांवन गेले
व्हांवन आयले उदका झरे
माते आंगार फुलल्लो चंवर
सामवेद गायत भोंवर
चारी दिकान उडून गेले

सूर्यबिंब आयलें वैर
जीव म्हजो सैरभैर
वतान माथें तापूंक लागले
माती पायांक जाळूं लागली

हुमे थेंब कपलार आनी
गळो सुकून तान आयली
उदका व्हाळा पाट गेल्ले
जमीन ज्याची ताच्या लागी
म्हजी तान भागौपाक
एक थेंब मेळना बेगी
हांव उबो आशेलेलो एक मूठ शिताखातीर
भुतां गेली शितां फाटल्यान
घेतले सगळें ताणी गिळून
काळका व्हैरेत कोणें राकून
दवन्न घेतले कोणे धापून
म्हज्या पोटात भूक तिका एक शिताकण मेळना
सगळेकडेन उजवाड तरी अशें कशें काय कळना
भूक म्हळयार रुप उज्याचे
पोटांतल्यान धग्धगता
संसार सगळो जळून गोबर
प्रळय करपी शक्त दिता
ऐनदिसा दनपाराचें म्हज्या दोळ्यांमुखार काळोक
सगळ्यांक म्हजी येता दया
सांवळीलेगित खंयतरी
लोपुन गेली पायांमुळा.

सूर्य अजुन वैर आसा पुणुन म्हजो वैरी जाला
उजवाडाचो वर म्हाका जळत रावचो शाप जाला
आसत म्हजें पाप म्हाका
माप भरून पदरात दिता
जाप कोण दितलो हाजी

व्याप खूब होड जाता
दोळे म्हजें रावूं शाबीत मागिर म्हाका दिसतलें
थंड जांऊ माथें म्हजें मागिर म्हाका भासतलें
हेंच वत कुडोकचरो एक दिवस लासतलें
एक कणीस तातूंतल्यान फुलुन येवन
हांसतलें

मुंबै, ११ मार्च ७४

## कर्म

फूल मानून हात लायलो
तोपूं लागले काटे
अणभव हे संवसाराचे
सदा उफराटे

भूंय लेखून पांय दिलो
लागलो चिखलगाळ
आसता आनी दिसता तातून
ना रे ताळमेळ

उंडी तोंडात घेतकच
येता खडो दातांत
परमेश्वर हांसता वैर
गालांतल्या गालांत

मुंबै, ६ ऑक्टोबर'७४

## चाक रथाचें

चाक रथाचे भुयेंत पुरिल्लें
गिळूं लागिल्ली धरणीमाय
विसरून कर्ण गेल्लो जेन्नां
न्यायनीतीन लद्बूक जाय

शक्तिपूर्ण मंत्रांची उतरां
सामकी जाल्ली कुंडो-पोकळ
धृतराष्ट्रावरी जाल्ली कुरडी
जाण्टेल्ल्यांची नदर निखळ

शकुनीचोच जय आशिल्लो
सत्य कोनशात लिपून बशिल्लें
सत्ता सोडून पैस बशिल्ल्यांले
लाखेचे घर वोतात जळटालें

वस्त्रहरण तर काणी सदांची
गदा भिडैतालो गदेक कोणी
रगत मेळटाले जेन्नां मागतालो
अश्वत्थामा मात्यार लोणी

भावाभावांचे भिडतेर झूज
धर्माचेर पडतालो घाय
अभिमन्यूवरी कंवळे नेण्टे
बळी वताले घुस्पुन पांय

उपदेशाची किंमत कवडी
भुकेमुखार बुद्द शिणिल्ली
भीष्म बाणांच्या शय्येचेर
वाट पळैतालो गंगा येतली

श्रीकृष्णाच्या मनांत आयलें
पळौन सामको अशांत अर्जुन
'नवें भारत घडौपा जाय
नवीन गीता नवें सुदर्शन'

मुंबै

## हात

हे हात
पळेयात
(तुमचें पळैले तरी बी जायत)
पांच बोटां हाका आनी
तांच्या टोंकार लक्षुमी
मदें रावता सरस्वती
गोविंदाली मुळात वसती
तुमच्या वावराक
तेको दितात
हेच तुमचे दोनूच हात.
सकाळपासून रात्रीमेरेन
तेच उंडी पोटा दितात
तेच करतात बरप आनी
सांगतात खूब मोन्यांनी बी
यो बी म्हणटात म्हणटात थांब
खूष जाल्यार दितात ताळी
विश्वासाचे जातात प्रतीक
'हातार हात' दितेवेळी.

मायेमोगान फिरता जेन्नां
रसम मंव हात जाता
कपळार जेन्नां मारुंक वता
जडशीळ जावन येता
होच हात दिता दान

मुठीं सामकी भरभरून
भीक मागपी हात होच
पसर्ता जेन्नां जावन दीन

ह्या हातात तरेकतरां
मांडपी तशेंच मोडपी बी
तोडपी तशेंच जोडपी बी
ह्याच हातान तीन फातर
रचून ताजेर शिजतात गोटे
भगभगीत पेटता चूड
ह्याच हाताचे कर्म खोटें
ह्याच हातान रंगता चित्र
ह्याच हातान वाजता वीणा
हेच हात जोखतात तागडी
न्याय दितात आनी कोणा.
ह्याच हाताची वळता मूठ
हात मारता सांगूक मुद्दो
सांगूनय पटना जाल्यार
होच हात मारता गुद्दो
मोर्चाभितर उंच हात
घेरावात आडायतात
लाख लाख यंत्रांची
कामा सगळी थांबयतात.

हात म्हजे तुमचे
सगळ्यांचे हात सारके
नात म्हणून वेंचून घेयात

रचतले की चरतले
जोडतले की फोडतले
हाडतले की सोडतले
घडैतले की बिघडैतले !

ह्या हातांत आसा फुडार
तुमचो आमचो
सगळ्यांचो
म्हणून पळेयात फांतोटेचे
तुमकां हात जाय खंचे
तुमचे तुमी ठरयात
मात
हात मुजरत पळेयात.

कारवार, २० में ७५

# राजू

म्हजें नशीब
बांदून दवल्ला हांवे
गोलगोल
राजवावरी
बांयचेर
म्हज्या फुडाराच्या.

केन्नां केन्नां
ताका
प्रयत्नांचो कळसो बांदून
सोडतां हांव
म्हज्या जिणेच्या
खोलखोल उदकात
आनी
सोदतां हांव
न दिसपी
जैताक !

अरे ! पूण हें कितें !
वैर पळैता
तर
राजू हालौपी
हात उरता
दुसऱ्याच कोणाचो तरी
म्हजो न्ही !!

मुंबै, २० मे ७५

## म्हज्या देवा

म्हज्या देवा
संसाराच्या सायबा
म्हजी काकुळट कर
म्हज्या दोळ्यांमुखार
आयज तूंच आसा
आनी कोणूय दिसना गा
तुजे मुखार
हांव बी एकलो
सामको एकलो
तुजेकडेन सामको दिस्ट लावन आसा
तूं म्हजो इष्ट
तूंच म्हजो सोयरो
तूं म्हजो बापूय
आनी तूंच म्हजी आवय
तुज्या बगर म्हाका
आतां ना दुसरो
आलाशिरो

म्हज्या काळजात
पाप नासतनां
पाप करूंक लायलें गा
म्हज्या दोनूंय हातांक
मनीसपणाचो बुरको घेतलेल्या
सैतानानी

हांव जाल्लो बावलें
तांच्या हातांतले
मोने. नाचतलें
जशें ताणी नाचयिल्ले
पापाच्या त्या उज्याच्या
धगीन
म्हजें हात लासलेले
म्हज्या देवा
हाजे दुःख, तूंच समजूं जाणां
कित्याक
तुकाय लागलेलो
एक खिळो त्याच जाग्यार.

म्हजें अंतस्करण
जाल्लें रगतबंबाळ
पळौन दुःखां चिड्डेल्यांची
पिड्डेल्यांची
हांवय एक तांतुतलोच गा
म्हज्या उल्याक
उतर दिसतलो
कोणूय नाशिल्लो
परते कुडके केले म्हज्या
अंतस्करणाचें
कुशींत म्हज्या तोंपून
जिबेच्यो तलवारी
आनी लेंखलें म्हाका

कुस्कुटासमान
मनशावरी मनीस आसून.
म्हज्या अंतस्करणाची धग
कळटली फक्कत तुकाच
कित्याक
तुकाय लागलेलो
एक भालो त्याच जाग्यार.

म्हजें घर सोदतां सोदतां
धा दिकानीं फिल्लों हांव
पांचव्या पानांमुळात
धांपिल्ले काटे कुटे
व्हाळा देगेची तापिल्ली रेंव
आनी दोंगरांचे फातोर
राविल्ले जाग्याजाग्यार
आडायत म्हजी वाट
तुजेंसरी येवपाची,
संवसाराच्या कर्वतेची
धार लागून घाय
जालें म्हज्या पायांर
तूंच तांची कळ
समजू जाणां.
कित्याक
तुकाय लागलेलो
एक खिळो त्याच जाग्यार

म्हज्या देवा
संवसाराच्या सायबा
तुजें दुःख
म्हज्या दुःखापरस मोटें
म्हजो जाळ म्हजी कळ
म्हजी धग म्हजी तिडीक
म्हजो खेद म्हजी खंत
तुज्या काकुळटेत
आतां बुडौन उडय
घाल शितडो
तुज्या मोगाचो
आनी कर म्हाका मेकळो
ह्या क्रूसावैल्यान.
चड वेळ रावूंक
म्हज्यान आतां
सोसना गा.
कित्याक
कितेंय जाले तरी
हांव एक मनीस
आनी
तूं आसा
म्हजो देव.
ज्याका उतरायतेरे
क्रूसावैल्यान
जितो जाल्लो
तीन दिसांमागीर !

कारवार, २५ में'७५

## म्हाकवी

'चेः, बुशशर्टातलो कवी केन्नाय
म्हाकवी
जावंक येता ?

म्हाकवी
दिसका कसो
दाडी ज्याची हातभर
वेतभर तरी मिशाफोणो
नाक सरळ रुंद कपळ
ताजेर आठ्या जाळे विणो
केस ज्याचे जटेवरी
माने मेरेन वाडलेले
जाण्टेपणान जाच्या कुडीर
शिरांचे कवच चडलेले
तो कसो धवल झोग्यात
पावलां घालता गंभीर
ताज्या धारदार वाणीन
सगळ्यांचो सुटता धीर
व्यास नातर वाल्मिकीक
वा घेयात रवींद्राक
तांचेवरी आसूं येता
म्हाकवी म्हणूंक जाता

'चे :, बुशशर्टातलो कवी केन्नाय
म्हाकवी
जांवक येता?'

‘अरे पाप्या कविता ताजी
ताजेपरस कितली होड
उपाट भरल्या मनिस कायेन
तिचो पांवडो कितलो चड
मनिसधर्म धर्म तिजो
काळजात माया दर्यायेदी
चंद्रलेगीत करगतलो
तिच्या शीतळकायेमदी
सूर्यावरी तेज तिजें
ताजे उतर मंत्र जाता
मातेंतल्यान सरून वैर
नखेत्रांचो सोद घेता.

अरे पाप्या मनशांचो
आत्मो तिच्यात उलैता रे
निर्बळांक अभय तिजे
काळखात वात लायता रे
कविता आसत वळींची चार
वीज पण्णा खिणाभरात?
तिच्यावरीच पर्जळीत
उजवाडाची ती कवीत
रंग रुप गंध तिच्यात
समरसून अमृत
व्हांवन येता तिच्या रूपान
नव्या युगाची भागीरथ.

दाडीमिशो ना जाल्यार
म्हाकवी जावंक येना ?
कविक फक्त फळैतनां
काव्य कित्याक पळयना?'

'अशेंय आसत बरें पुता
पुण बुशशर्टातलो कवी केन्नाय
म्हाकवी
जावंक येता?'

'अशें करुंया ना जाल्यार
वर्सां एक हजार वचूंत
तेन्नां आमी कविता वाचून
कविचो पावंडो ठरवुंयात

आनी तेन्नां कोणीय मनीस
बुश्शर्ट कांय घालचे नात !

कारवार, २ मे'७५

# रेस

रेशीच्या घोड्याक धांवपाकच जाय
पडत झडत पांय मोडत
म्हणून ताका उपकारना
रेशीच्या घोड्याक धांवपाकच जाय ....
फुडें येता ताजोच जय
ताजेर पडता फुला पावस
फोटोबिटो येतात ताजेच
गळ्यांत घालून नोटांची माळ
फाटीं पडत जाल्यार मात
माथ्यार ताज्या लाखांची गाळ

पांय मोडून पडलो जाल्यार
घालतय गुळी ताका
ताजी गरज सोंपतकच
याद सुदीक उरची नाका
छाती फुटत शिरो तुटत
थांबून ताका उपकारना
रेशीच्या घोड्यान धांवलेशिवाय जावचें ना

आमी लेगीत रेशीचे घोडे
सगळेच धांवतात सगळेच धांवतात
पायात घालून पांय कोणी
फुडल्याचे पांय ओडता दोनी
मड्यावयलेंय खांवक लोणी
फुडें सरुंन वतात कोणी

हांगा रावना दया माया
दोळ्या दुकां वेतात आटून
हांगा उरना खिणा उसंत
नातीगोती वेतात सुटून
धांवतात धांवतात सगळेच धांवतात
दोळ्यामुखारल्या गाजराखातीर
चाबूक बसलो तरीय फाटीर
धांवता फुडें तोच वीर
रेशीच्या घोड्याक धांवपाकच जाय
थांबून ताका उपकारना ...

मुंयेल्या मनांर मणा वजीं
फाटीं मणक्यात सणक ताजी
पांय मात धांवतात फुडें
भात्यावरी उडता हड्डें
फुडें आयल्यार जीत जाता
मेळटा धन सूख कीर्त
देखून बायल भुरगी दितात
हात हालौन आनिक स्फूर्त
बांदलेल्या दोळ्यांक एकच दिसता
अजून मेळौंक जाय थोडे
आंखून दिल्ल्या ओळी वैल्यान
धांवचे फुडें धांवचे फुडें
रेशीच्या घोड्यांक धावपाकच जाय
थांबून ताका उपकारना ..
ना नाल्यार ताजें नशीब
हात ताका दिवचें ना

आनी ताजी सुवात खंय
हांगाय ना आनि थंयय ना.

मुंबै, ३० जानेवारी'७७

## सांजे वेळचे सात

शिणून गेल्लो तांबडो सूर्य उदकासकल वता जेन्नां
हुसक्यामेकळें जाता मळब
एक दिवस सल्लो म्हणून सावकसायेन
घेवची आसता ताका शांत नीदें ऊब
विसन्न बोवाळ आयचो आनी उस्तवार फाल्याचो नवो
एकेक ताजी पापणी जशी धापता तसो पेटता दिवो
एका फाटल्यान एक आनी खिणात सगळे लखलखतात
तेन्नां मुंबैत वाजिल्ले आसतात सांजेवेळचे सात.

शुकशुकाट ऑफीसांनी स्तब्ध झाडां
सवणीं उडून गेल्ली जशीं
बंद जातात खिडक्यो-कवडां खोल्यांतलो थंड वारो
घेतात यंत्रा श्वास एक खिणाचीच उसंत अशी
लाख लाख पोटां भरून करता तांचे पालन-पोषण
चाक केदें मोटें ताका खीळ पडत जाल्यार मरण
पैस गिरण जांबोय दिता सुस्त आळसायेत
तेन्नां मुंबैत वाजिल्ले आसतात सांजेवेळचे सात.

छाती फोडून धांवता ट्रेन स्टेशना स्टेशनार
सोडून लोकांक हुमेलेल्या अर्धमेल्या
गच्च रस्ते, गच्च पूल घुसमटता सामको जीव
गाडेमुळात कोण मेला कोणाच्या पाकिटा चोरी जाल्या
ना कोणाक चडउणे ताजोच ताका सुवार्थ होड
गोठ्यात येवपी गोरवांवरी मोत्यानीच जावन जड
पांय जेन्नां घरांकडेन ओडून घेवन वतात

तेन्नां मुंबैत वाजिल्ले आसतात सांजे वेळचे सात

झगझगीत हॉटेलांनी मंद वास धुंद श्वास
कारींतल्यान उतरतात गोरे पांय सूट निळे
येवपी रातीक येवकार दिवपाक निशाचरांचे भरतात मेळे
सरकयताच करकरीत नोटां घालतात भलतेच उले
ओतो येता बाजाराक जायते घेयात आंगलेगित
सगळेच कशें नाचूंक लागता आपैत आसता दोळे मोडीत
दुकानांच्यो काचे खिडक्यो हांसून फुडें करतात हात
तेन्नां मुंबैत वाजिल्ले आसतात सांजेवेळचे सात

एकेक मनीस पावता घरा ब्लॉकात चाळीत झोपडीत कोणी
कोणागेर पेट्टा टीव्ही कोणागेर दिवोय लागना
नळामुखार रांग खंय गळो काडून रडता कोणी
व्हांवतात रस्ते अजूनय वेळ थोडो खूब कामां
सरता सरची नात केन्नां दिवस बुडलो जरी बेगी
नोकरीर गेल्ल्या आवयलीं भुरगीं परथून परथून दारालागीं
वाट पळेत आसतात जेन्नां दुखां घेवन दोळयांत
तेन्नां मुंबैत वाजिल्ले आसतात सांजेवेळचे सात

मुंबै

# चित्र

चित्र
पुणुन नितळ हारसो अशें
पळैतनां ताजेकडेन मन म्हजें उक्तें जाता
खंचीतरी जीवघेवपी याद मागीर वैर येता

त्या दिसा असोच म्हाका
लागिल्लो बाण काळजाभितर
विखान भरिल्लें तिखट उतर
अशेंच घालून गेल्लें घाव
अशाच ह्या हरणावरी
रगत चाटत बशिल्लों हांव

पळया ताका पडला कशें
चारी पांय ताणल्यात ताणें
रोमरोमात थर्‌रथराट
सूक्ष्म कंप खुरांतलेगीत
तकतकीत ताजें पोट
चिंब व्हांवतात हुमे लोट
गळसून गेल्या सैल मान
सोंपत आयला सगळें त्राण

निरपराध जीव कसो
पडला बळी आरे... आरे...
हांसत खेळत हिंडतनां
कोणाचें केला वायट रे?

आयज ताका आयला मरण
काळ जावन आयलो बाण
क्रूरबुद्द सुचली कोणा
घडलें कशें कोण जाणां !

सांगचें कितेंय आसत ताका?
जीब भितरल्यान ओडता
भोग ताजो भोगचो ताणें
कोण कोणाखातीर रडता ?

दोन दोळे
पुणुन ताजे
मध्यान्न राती
तळयेवरी
गच्च गूढ काळोखात
करगतल्या चान्यावरी

आकूळपिकूळ जीव ताजो
आकांताळी ही गजाल
ताज्या दोन
दोळयांत मोगाळ
सांकळलेलो अंतकाळ

चित्र
पुणुन नितळ हारसो अशें

मुंबै, ६ ऑगस्ट'५७

## नदर

एका कुड्याक
जेन्नां अचानक
आयले दोळे
म्हाका पळौन
ताणें म्हळें..

‘आरेरे
तू जसो
आसत अशें
म्हज्या मनान थारायिल्लें
तसो तू ना मरें !’

मुंबै, ५ ऑगस्ट’७८

## पडबिंब

सुखाची सावली सोदत फिरपी थांब अरे बुदवंता
जिण्याकडेन फाट फिरौन पैस कित्याक धांवता

उकत्या मळबा मुळात केन्नांय लावन तणा फाट
नखेत्रांक तुवें सांगल्या केन्नांय मनांतली गोष्ट

दर्यादिगेर धांवला रेवेंत कुरल्या फाटल्यान
गुणगुण करपी वाऱ्यार घेतल्या सणसणीत तान

फूल झाडार फुलचें पळैलां तुवें फांतोटेर ?
रंगछटांची सोबीत रुपां अरळ-दळांचेर

भुरग्यांलो हांसो पळौन खोशेचो कवतीकायेन
काळीज आयलें तुजे केन्नांय भरुन मायेन

व्हांवत्या उदकात सोडून पाय बसला केन्नां रानात
घरकान्नींक तुवें केन्नांय सांगला गुपित कानात

आंबुरपिकली चीच केन्नांय जिबेर तुज्या घोळली
आंगणात तुगेल्या बटमोगरेची वाल केन्नांय परमळली

गरूडझेपशी येतना आयकल्या समेचेर तान
हात आयिल्लो तुजो मांडीर विसन्न केन्नांय भान

हांसला केन्नांय पोटांतल्यान कन्न मना हगुर
काळीज पिळून रडला केन्नांय मायेमोगाखातीर

मनिसपणाच्या आनंदाचे खिणाखिणांत थेंब
जिण्याच्या हारशात भगवंताले पडता पडबिंब

मुंबै, १८ मार्च ७९

## पानां

शेताबांदावैली
भटणी पानां सान
पाय लागल्यार वतात लजून
घालतात सकल मान

केळी पांना कवळी
तांचेर भांगरा ओप
मांगल्याची मूर्त कसो
तुळशी पांना रोप

रामा कपलां गंद
आळवा पानांर रंग
सीतेलो बी कुकुम कसो
सोबीत ताजो संग

पालो वतलवांचो
वकदाखातिर खास
निर्वळीच्या तणाक येता
माये मोगा वास

वाळी भाजे रुप
पाचवें मखमली
पावसात कशी न्हावन धुवन
येता अनंवाळी

भुरगेपणा यादी
पानांत आसात लिपून
काळजाचें पान घेवन आसा
तांका सगळ्यांक धापून

मुंबै, १८ मार्च ७९

## गाडीतल्यान पडून मेल्ल्या मनशाक

पळौ नजो तुका
खरेच पळौ नजो
वचपाकच जाय म्हाका दुसऱ्या वटेन तोंड फिरौन

पळौ नजो खुब्यावरी फुटिल्लें माथें
चेपिल्लें नाक फुटके दोळे
कापिल्लें पाय पोटांतल्यान
पडिल्ल्यो भायर
आंतड्याच्यो सुरळयो-सुरळयो
कणव येवन दोळयांमुखार
नाचपी काळखान गर्रदिशी
कपल तिणकून नाशिल्ली दुकां दोन गळौन
'पाप म्हरे' चो श्वास सोडून
जमलेल्या लोकांत घुसून लिपून
परते परते खंत करीत मिटक्यो मारीत
रूच घेंवचे सुख म्हाका नाका नाका.

अरे मेल्ल्या नाशिल्ली बुध्द
तुजीच तुका नाशिल्ली शुध्द
चिकटून ट्रेनीक धरून हातात खिडके सळी
आंग भायर घाल्ले वेळार
जीव तुजो समजल्लो कितें
कुकुस्टाचो कुंडो म्हणून.
शिफारशी कोंबो कसो माती पडू
तोंडात तुज्या सोडचे वेळार घर आज

येवचो ना म्हणून आयिल्लो सांगून
आसल्यार तुजी म्हातारी आवै
गळसर बांदपी घरकान्न तुजी
तुज्या नांवान आसल्यार भुरगीं
सान सान तांच्या तोंडा उंडी तुवें
सांग कित्या काडून घेतली
तांची आस हावेस सगळो
गोबरा राशीर उडौन दिलो
मोल केलें जिवाच्या तुज्या
एका पैशायेदें ताटलीत
भिकाऱ्याक फेकल्यावरी
दरकार कसलोय नासतनां.

पाड पडूं पडलोचा आसा
ह्या जगात इतली छाती
काण्ण फुडें चलचें न्हंय
पावलांफुडें स्वर्ग तसो
पावलांफाटल्यान स्वर्ग तरी
बेवार्शीवरी मरुं न्हजो.

भोंवतणच्या लोकांर विसंबू नाका
अरे मेल्ल्या ह्या जगात लोकसंख्या
चड जाल्या म्हंटलेच खूब हांगा
हांच्या दोळ्यांत एक थेंबो
दुकां नात तरीय वटवट दुकां दर्शन
मायेमोगा प्रदर्शन 'शू शू, वारो सोडा'

असे पिश्या खबरना तुका
हाणिच तुका मारले उरत
रेटारेटीत दिवन धक्को
धुकळ्ळे आसत भायर तुका
नातर
(हांवच उरत तुज्याबाजून उबराविल्लो)
'गर्दीत कितें कोण कळटा गा?'

तरीय गेलो-जाले बरे
परते तुका कष्ट ना
सकाळी उटून धांवचे आनी
मरणा फाटल्यान सुटचे ना
मेले ना म्हणून जिते आसात
अशेंच म्हणत सरचे ना.
तू मेला. आरे वा. आशिल्ले आता
उरतलेच.
जगतलेच जगुन भागून जल्मां घालून
आयले तशेंच एक दिवस
सोंपतलेच.
इतलेंच दिसता पटक्‌दिशी तुवें अशें
मर्न वचूंक नाका आशिल्लें
अनवळकी हमाला हाती
बेपत्ता इसम म्हणून
सरकारच्या व्यवस्थेमुळां
अवस्ता तुजी नाका आशिल्ली
रस्त्यावैल्या सुण्यावरी.

कणव तुजो ना म्हाका
एका मेल्ल्या मनशाखातिर
हुनहुनीत दुकां गाळून
हुस्काऱ्यांचो रोस पिळून
कवन म्हाका बरौचे ना
तुकां करून अजर अमर
हुतात्मा बी ठरौचे ना
एकलोच न्ही तू मरतलो
सदान्‌कदा मरतात कितले
इतले तरी कळचे न्ही
बाकी सगळे खौंटे आनी
एक सत्य ह्या काळा
कवीले काळीज आटून आटून
फातरावरी घट्ट जाला.

मुंबै, १० डिसेंबर ’७९

## स्कायस्क्रॅपर्स

मोगाळ मळबाच्या विशाळ काळजात
घुसलेल्या भाल्यांचे तीक्ष्ण फाळ
घुमे मोने अकराळ विकराळ
क्रूर हिंसक कर्दनकाळ

नव्या युगाचे चिन्न जशे
रावल्यात उबे स्कायस्क्रॅपर्स
हांका पळौंक गेल्या जाल्यार
नदरेकय लागता खरस

भुयें हड्डुयार पांय रोवून
रावल्यात मदांध हत्ती अशे
तांचेवरीच कळप करून
गिळप आपलो धर्म मानून
तुच्छताच घट्ट जावन
हांच्या रुपान अवतरल्या
उच्च जागेर पावचे भितर
हुच्चपणा माथ्यांत रिगला

पळया हांका चेहरेच नात
आंगार दोळे हजारानीं
दिसाचे जीव नाशिल्ले वरी
नकली पोकळ काचेमणी
रातीचे जेन्नां लुकलुकतात
जिबल्यो चाटत पळयतात
मायेमोगा उतरां केन्नांय

कानार हांच्या पडलीच नात
हांचे बारशे जाले तेन्नां
शेनाय सूर वाजलेच नात
वाजले फक्त छन्न छन्न
ओतली पैशा खण मोटी
रानटी झाडां बियेवरी
वाडलें रान उटाउटी

नव्या युगाचे चिन्न जशे
रावल्यात उबे स्कायस्क्रॅपर्स
हांका पळौंक गेले जाल्यार
नदरेकय लागता खरस

हाडा हांची बीडा कांबो
ओतून ओतून शिमिट तांतूत
दीस राल घोळून घोळून
कितले मनशां रगत आटले
इतलें करून मेळ्ळे कितें
घरपण ना तर घर रितें
हे तर सामके फातर म्हरे
एकार एक रचलेले
हातूत घुसपी मनीस लेगित
उंदरावरी बिळांतले
शिट्टकरून वैर व्हरपी
लिफ्ट हांगा जाय तेन्नां
बटनां दाबात बटनां दाबात
तांचे शिवाय सुटका ना

हांची आंतडी वाकडी तिकडी
गुहांवरी वाटो भितर
बंद खोल्यो मंद लायटात
जिवाण्यांचो हांगा वावर
हांगा धंदे हांगा व्यापार
लाखां लाखां उलाढाल्यो
हांच्या रगतातल्यान व्हांवतात
भांगरा रुप्या पैशा पोटल्यो
हांगच्यान दिसना जग भायलें
दिसलें तरी मुयें येदें
तेदोच मनीस
तेदोच ताजो राग-भोग
तेदोच ताजो माये-मोग

म्हणून ताजो आकांताळो
उलो लेगित आयकूं येना
घुसमटलेलो श्वास ताजो
भायर लेगीत फुकूं येना
हातपाय धाडैले तरी
आसा ताजी पर्वा कोणाक
ह्या प्रचंड यंत्रामुंखार
कवडी किंमत मनशा जिण्याक
मनिस हांगा जाला अनाथ
मनिस हांगा एकमुळो
ह्या शिमिटाफातरांभितर
होगडावन गेला जावन खुळो

ह्या विकराळ रावणाचे
उकलात वजें शर्त करून
ताज्या पोंदात दिसतली
मनिसकाय पडल्या मरून

मुंबै, ६ फेब्रुवारी ८०

# शेंडिल्ल्या इष्टाक

दगदग धांवपळ गर्दी गर्दी
फुडेंय गर्दी फाटीय गर्दी
आजून गर्दी बाजून गर्दी
खांद्याक खांदे खेटून वेतात
पायांत पाय घुस्पतात
या गर्दीक हजार तोंडा
चेहरे सगळे अनवळखी
चेहरो हातूत शेंडला एक
ताज्यान हांव जाला दुखी
चेहरो म्हज्या इष्टाचो !
सोदपा वावर कष्टाचो

दोन फावटी दिसलो म्हाका
एक दिसा कारीत तो
हांव रस्तो क्रॉस करीत
हांसूक ओंठ हालचे भितर
खंचे खंय पावलोलेगित
आनिक दिसा टॅक्सीत हांव
तो वाटेर चलतालो
खिणा उसंत मेळिळना
आपौक ताका घालून उलो

पोटाभितर कळवळलें
खोलमनात यादी कितल्यो
एकाएकी होलमल्यो
एकमेकाच्या खांद्यावैल्यो

ापो आमी मारलेल्यो
फाटीर परत हुळहुळल्यो

कितेक राती चौपाटीचेर
वाटुन घेतिल्ली सुखांदुकां
घेतिल्ले पिवन रसायन
अणभवांचे पेल्यात एका
वादावादी केल्ली आमी
रुसले फुगले कितले वेळां
समजूत जेन्नां पटली तशी
एकमेकां पडले गळ्या

भूतकाळ विसरून आमी
भविष्याचे बांदले किल्ले
फाटी एकटो पडलो जाल्यार
दुसऱ्यान ताका हात दिल्ले
एकमेकां सांगल्यो काणयो
बरोबरीन गायली गाणी
बसले उठले एका जागी
फिरले वांगडा दोगांय आनी
दिसले आमकां देह दोन
पुणुन जीव आमचो एक
ताटातुटी जावंक येता
सुचलेंय ना केन्नांय मनाक

दिवस मात फिल्लें कशें
दोगांयक कळ्ळें ना

पोटाफाटल्यान धांवचे वेळार
एकामेकां पळैले ना....
अशेंच गेले गर्दी घुसून
हात आमचे सुटले आनी
परत केन्यांय मेळळें नात
सल्ली थंयच एक काणी

माल्लो उलो चारीबाजून
सोदले ताका वाजौन ताळी
परत उतर येनाजातच
हांवच जालो लजून गुळी

आमचे दोगांमदीं आता
परकेपणान घाला अंतर
थंड शीळ जीण ताजी
म्हजे घर वताभितर

मेळळे जरी आता आमी
जावची नात उत्की मनां
मर्यादेचे शब्द खोटे
आपुलकीची ना भावना

शेंडला म्हजो इष्ट असो
गर्दी वांगडा घुस्पुन गेला
ताजे म्हजें जग विंगड
मेळचे कशें ह्या काळा !

पुणुन लेगित हांव जाणां
म्हाका जशे भावता तशें
ताका लेगित दिसता उरत
हांवय ताजो शेंडिल्लो इष्ट
यादीन म्हज्या आसत झुरत

मुंबै, ८ फेब्रुवारी' ८०

# ताण

धनुष्य किंचित् बावगता
पूण आकर्ण ओडलेल्या दोरीत
आसता एक भयंकर ताण
जो सुटतकच
सणसणत सटकता बाण
आनी भेदून वेता प्राण...

ताण-माथ्यांत
ताण-हातात
ताण-पायात
ताणून दोळे-वळखून घेयात
आडवे ताण शिरकतात
उब्या ताणात घुस्पतात
विणून विणून
जोडून गुणून
रूप घेता जाळे प्रचंड
काळ्या-निळ्या शिरा-नरांत शिरांत
असह्य ताण उदंड

काळ्याकुट्ट मळबाक चीर
पाडीत जेन्नां वेता शीळ
गिरणीच्या भोंग्याची
आंगार कांटो शिर्शिरीत
धांवन वच्ची सदा रीत
चार उंडी पोटा गिळून

खरशेत वतात सगळे मेळून
खडक् खडक् धांवपी गाडींत
रगत वेगान चडता नाडीत
फोंड पडता पोटाभितर
घड्याळाचेर वेताच नदर
ताण ल्हवून वेता वाडत
दीस जसो येता चडत

सर्वव्यापी ताण नवो
आयच्या जिण्याचो दिश्टावो
सरक मुखार सरक मुखार
ना जाल्यार जातली शिकार
एकटुको तू करता कितें
हातापायांक बांदला पोतें
जग सगळें ऑरगेनायज्ड
आयचो मंत्र धाड् धाड् धाड्
सगळे कशें कॉम्प्यूटरायज्ड

एक जायात एक जायात
सगळे मेळून ताणून धरात
ताणून शिरो ताणून हात
सांगपी पुढारी पळेयात
ताणून धरल्यार मेळता सगळे
ताणून पांय रावल्यात बगळे

ताणून शास्त्रां नवीं नवीं
चंद्रलेगित आयलो हाती

आनी ताणून जातलें कितें
सांगू नजो गुंग मती

सुखां विकती घेयात ताणून
वीस टके डिस्कौंटात
कल्पवृक्ष फुललां दारांत
पैशे हाडात चला उठात
भरमसाठ पीक आयलां
चैन करा चैन करा
जगुन घेवंक सगळ्यांनिशी
आयचो दिवस ताणून धरा
चडतो वाडतो घेयात भोग
विसरुन सगळे राग-रोग
चारी हातान लुटा लुटा
सुटून गेल्यार धांवत सुटा
मनार मणां-मणां वजी
सोडूं नाकात फाट ताजी
वाट बिकट अटेन्शन्
मेळना जाल्यार हायपरटेन्शन्

ताण कितें सगळेकडेन
ताण मनार ताण खिशार
सहन जायना जालेल्यांची
दशा जाता पडून पिशार
आवंडो घोटीत गिळुन घेता
तोच आज मनीस हुशार

आयच्या जगात रावचे जाल्यार
ध्यानात धर एक उतर
देह जरी गेलो शिणून
हात पांय दियात ताणून
ताणून ताणून तुटता रबर
सगळेच जाणात सादी खबर

मुंबै

# पोल्यूशन

नितळ निळ्या मळबा जागी
धुरकटलेलीं जळमटां
ताज्या हगुर वाऱ्याभितर
काजळ काळें रिगुन येतां
पिवच्या थंड उदका वांगडा
कितें येता कोण जाणां
कसलें जंतु वचत पोटा
सांगू नजो खंच्याय खिणा
म्हणून म्हंटा आयकयात
चाळून घेयात, गाळून घेयात !

उक्तें आमचें सदांच कान
आरड - ओरड आसतात आयकत
शास्त्र नवें, नवें गिन्यान
बुवा भोंवतण नाचतात भगत
हरे रामा हरे कृष्णा
आपल्या भांयले कांय दिसना
भगवी वस्त्रां, गळ्या माळो
सांगिल्ले तांणी सोसूंक जायना
म्हणून म्हंटा आयकयात
चाळून घेयात, गाळून घेयात !

कोणी सांगत दुखां तुमची
फूंक मारून ना करीन
तुमचो कायापलट करून

सर्गावैले राज्य दीन
तुमच्या सेवेखातीर सगळे
हात जोडून रावल्यात आमी
भास करून दिसलेल्यांत
पोल चड दाणो कमी
म्हणून म्हणटां आयकयात
चाळून घेयात, गाळून घेयात !

अर्दनारिनटेश्वरांची
असल सोंगा, नकली भेस
भायल्या लोकांचो अणकार करीत
तकलेभितर नसतो हावेस
हांचो डामडौल मोटो
जिबेवैले उतर खोटे
खाणें पिणें उष्टें सगळें
आंगार उडत शिता गोटो
म्हणून म्हणटां आयकयात
चाळून घेयात, गाळून घेयात !

नव्याफाटीं धांवचे पिशें
धर्म लेगीत जाता चरस
हेर देस मानतात मोटे
आपल्या आवयदेसापरस
भरस विचारांचे तण
कितले 'इजम्' कितली मतां
तेच तेच आयकून शिकून
बुध्दिकय गांठ येता

म्हणून म्हणटां आयकयात
चाळून घेयात, गाळून घेयात !

खरी-खोटी नाती हांगा
खरे-खोटे मुखार भाव
'थँक्यू' तोंडात घोळयल्यार
चोर लेगीत दिसता साव
हांसत हांसत उलैतनां
हातात येत दुसरो हात
फाट जरा फिरचे भितर
कुल्याचेर बसत लात
म्हणून म्हणटां आयकयात
चाळुन घेयात, गाळून घेयात!

भरस दाण्यात, भरस वीख
खायात वेचून, वेचून पियात
चोकुन चोकुन गाणीं गायात
उघडून दोळे खरें चोयात
जल्म जरी सोबीत खरो
पोल्यूशनान जळता जीव
तनामनांर काजळ साटून
पोल्यूशनान बेगी मरण
म्हणून म्हणटां आयकयात
चाळून घेयात, गाळून घेयात !

मुंबै, ७ फेब्रुवारी ’८०

## जल्म

समुद्र येता चवताळून जेन्नां
माथें आफटीत काळया फातरार
आयाळ फुलौन शीवांवरी
आयकूं येता गर्जना
तेन्ना मळब दाटून येता
धायो दिशो कोंदून वेतात
वाऱ्याच्या येता पिशें आंगात
घुमूंक लागता येवन रंगात
निसर्गाचो भव्य खेळ
प्रलयंकर कल्लोळ

समुद्र येता चवताळून जेन्ना
पोटांत उजो खदखदतनां
तुषारांची जातात केडां
उदाक उदाक उरच ना
आवेगाची घुंवळ येता
भितल्लें पोल जळून वेता
लाटांफाटल्यान येतात लाटो
गगनाक पावपी आटापिटो
निसर्गाचो भव्य खेळ
धरतीक वेंग मारपा कळ

समुद्र येता चवताळून जेन्नां
घुसमटून नसानसांत
थंयथंयता ताजेभितर

एक आद्य भावना
तेन्ना विश्व फिरूंक लागता
गिर्‌गिरून फिरकी घेता
निराकाराक येता आकार
दोळे धांपतात तेजामुखार
निसर्गाचो भव्य खेळ
पेटता एक प्रचंड जाळ.

समुद्र येता चवताळून जेन्नां
कुड्डो जाता आफटीत माथें
शिणून शिणून फातरामदीं
सोडून येता उदका थोडे
वाऱ्याचे पिशें लागता निवूंक
माथ्यावैलो भार देऊंक
खरशेवन निरशेवन लाटो सरून
फाटी येतात तृप्ती भरून
निसर्गाचो भव्य खेळ
रौद्ररूप थोडोच काळ

समुद्र येता चवताळून जेन्नां
ताज्या नकळत घडता गूढ
मातयेभितर उदाक रिगून
फुलून येता चेतना
तेन्ना घडता तें अजाप
तें हुमाणें नाशिल्लें जाप
सोबीत सत्य सनातनात

प्रगट जाता अनंतात
निसर्गाचो भव्य खेळ
एका जिवाची जल्मवेळ

मुंबै, ५ जून ’८०

## मरण

भरणाच्या दाराक
कवडांच नासतात
आसतात फक्त मेटां
आनी एक देल्ल निसरडें
पावल दवरतकच, पडता फुडें
फाटीं येना...

ह्या दाराच्या आजूबाजून
कुडीची वणत
रावपाक म्हाका मनांत म्हणटा
येवन रावलो तातूंत प्राण
पुणून खिणाखिणाक खणत
आपल्याच पायांर घाव हाणत
बसपी ताजें कर्म कशें
कांय कळना...

हाज्या फुडें सामको काळोख
दोळ्यांमुखार कांय दिसना
नदर ताणून पळैले तरी
खंय कोणाचो ठाव लागना
नांव आशिल्लें जग मुखार
रूप रंग ना आकार
हांगा फुडें आसा कितें
ना कोणा ध्यानामना

ह्या मेटांर चडता कोणी
चट्टकरून देल्लां वतात
आज आसात ना फाल्यां
म्हणून दुखां दोळ्यां येतात
ल्हवू ल्हवू चडतेर वतले
सगळेच मनीस मेजचे कितले
अटळ शाप मनीस जातीक
सुटको ना...

म्हणून म्हणटां तोरण लाया
ह्या दारार लागूं दिवो
येवचे ताका दिवन येवकार
जगून घेयात दीस नवो
मुक्त आसूं बटार हांसो
प्रसन्नतायेचो उजवाड कसो
भरून जिणें सार्थकतेन
येतलें तेन्ना ...

मुंबै, '८०

## हॉस्पिटल

चारीवटेन चकचकीत वंटी
गुळगुळीत फरशीर फिनैला वास
दोन रांगेत वीस कॉटीर
फट्फटीत धव्या चादरीर
पडल्यांत कंवळी सूर्या किरणां
दीस नवो उदेतनां
मुल्यात एक भुरगें किरटें
रडून रडून जाला ओगी
क्षीण आवाज कांनांर येता
'हाय देवा, सोडय बेगी'

चादरीसकलां धांपून आसा
हुस्कान्यांचे वेगळें जग
दुःखां कळा पीडा रोग
नशिबांतलें भोगचे भोग
म्हातान्यांचे हाडां सांपळे
तरणे देह सुकून गेल्ले
बावलेल्या नदरेन हुबतो भाव
जगपाखातीर हातापाय धाडाय
क्षीण आवाज कानांर येता
'हाय देवा, बेगी सोडय'

उलट्या बाटले थेंबाकडेन
आशेलेली लागता नदर
इंजेक्शना सुये टोकार

मनिसकायेक येता आकार
तापातलेगित फणफणतना
उलौक लागता वेदना
सर्जनाली कातर दोरी
बजायतनां आपली सेवा
क्षीण आवाज कानांर येता
'सोडय बेगी हाय देवा'

शांत सकळ जग जेन्नां
हांगा श्वास जातात जड
मायेमोगा येतना भरती
कळता किंमत खरी-खोटी
जिण्या-मरणार ताणटा जीव
तेन्नाय नाचता मदें रुपय
फांतोटेच्या ह्या पारार
जगात जेन्ना नवतीकाय
क्षीण आवाज कानार येता
'सोडय बेगी, देवा हाय'

मुंबै, २ ऑगस्ट'८०

# पालखी

पालखी आयली पालखी आयली
देव बसून आयला
देह मानून आपलें स्थान
धर्तरिचेर पावला

कुवां कुवां ध्वनि पयलो
ओंकारा घालून उलो
पवनदेवान छातेंभितर
शंखनाद फुंकला

नसानसात भरून उजो
अचेतनात खेळ ताजो
जीवशक्ती नाचूक लायल्या
श्वास छंद ताला

रूप रंग रस सुगंध
अणभवाचें मायेबंध
घालून घेतल्या जडजिवान
आपले आपुण शृंखला

हें गिन्यान मेळता कोणा
वळख दिता त्याच खिणा
ना जाल्यार आपालिपा
खेळत मनात रावला

मुंबै, ११ ऑगस्ट'८०

## स्वीकार

जें मेंळना
ताजेंर तुजो अधिकार खंचो ?
मेळता ताजो स्वीकार करचो
उक्तें मनान
दवरूंनाका मनांत भाव
हांव उणों, हांव दीन
समजूनाका स्वतःक केन्नाय
हेंरांपरस हांव हीण.

अरे आसा तुजेलागीं
तें मेळत दुसऱ्या कोणा ?
पावाचेर मेंळता लोणी
खूब थोंड्यांक तूं हें जाणां ?
कोंणा कोणाक
पावबी मेळना.

दाण्यार उरता बरयिल्लें
नांव म्हंटात कोण खातलें
तुज्या तोंडात पडची उंडी
आसूं दी उंडीच
माती ताजी करूं नाका
येंवजून रुच पक्वान्नांची

दोंळ्यांमुखार सपन नाका
नाका उडूं लावन पाखां

मन आसूं तुजें ताळ्यार
भान येंवूं हालूं लागल्यार
उंच उडी मारूं गेल्यार
बळ जाय पेंलचें इतलें
नाजाल्यार तुजेंच मागीर
चारचौगात हांशें जातलें
बळावांगडा जाय आनी
वेळकाळ मेजुन मापून
भाजता पोळी फक्त जेन्नां
तवो येता सुकुन तापून

तुज्या हातांत आसा कितें
जल्मापासून बांदला तूं
मनशाभितर नातें रगत
उदकापरस जाड मूं
नांव तुजें, गांव तुजो
आवयबापूय कूळ तुजें
सगळें कशें ठरून आसा
ठक्ठक् तुजी काळजाभितर
चावी तिकाय दिल्ली आसा
पांच फुटां कूड तुजी
आंवाठो तुजो कितलो होड
फाटल्यान ताप करचेपरस
ह्याच खिणा 'हांव' सोंड

जें मेळना
ताजेर तुजो अधिकार खंचों?

मेंळता ताजो स्वीकार करचो
उक्तें मनान
हांसत हांसत मानचो 'ताज्या'
भार सदांच उपकाराचों
जोडल्या हातान.

मुंबै, ५ नोंव्हेंबर'८०

# अनाथ

त्या शेळया सकाळी निदेंतल्यान जेन्नां जग उटतालें
रस्त्यावेले दिवे एकेक ल्हवूच पालयताले
मंद वाऱ्याची शिळीक आंगार कांटे फुलयताली
फाखां धापून झाडांर बशिल्ली सवणीं कुजबुजताली
कोंनशावयल्या कचऱ्या पिपात एक गुळो कापसाचो
तातूंत एक जीव अनाथ जगपाक वळवळतालों
खंचों कोणकी पडलों भुंयेंर मळबांतल्यान चुकून
नखेत्रच की गळून पडलें शाप देवाचो देकून
कर्म कोंणाचें शेंडलें हांगा निर्दय जात मनीस
लाज – लजेंन मोंडून उडयना रोंपय आपलें कणीस
कोंण जाणां त्या भुरग्याच्या कपलार लेंख बरयला कसलो
ताज्या वटांक वीख लागतलें की अमरुताचो पेलों
सकाळच्या पारां दुदवाल्याच्या नदरेक पडलें भुरगें
धावत गेलो उलो मारीत अगे अगे आवय गे

खिणाभितर चारीवटेंन जमलें लोक पळौंक
बायला भुरगीं आयली धांवून गेलो भरुन तो चौक
चुरचुरतालें चुकचुकतालें ताळ्या कोंणाच्या हुटके
दोळ्यां कोणांच्या दुखांय आयली घेंतना च्याचे घुटके
मायेच्या कोणी पुणी पुतान पावल घालें ना लागी
काकुळतेच्या महापुराक आयली सुकती बेगी
निदेंतल्यान जावन जागे उटलें बाळशें सान
कुडकुडतेर रडूंक लागलें जिवाच्या आकांतान

थंयच गटारा देगेन बशिल्ली एक पिशी धांवली
धुकळन लोकांक कुशीन वेगान बाळशालागी पावली
घेतले उबान्न मिठीत कवळून छातेकडे धल्ले
ओगी ओगी तू म्हणत तोंडान हातांर हालयले
पिंदके कपडे केस भुरभुरी भुतावरी बायल
तिच्या हातात बाळशें दिसतालें काट्यांतले फूल
माथ्यावैल्यान हात फिरौन फाटीर थापटायले
मायेमोगान ताज्या गालार ओंठय तेकयले
ऊब आवयली मेळली देकून बाळशें ते कसलें
रडचें थांबून खुशीखुशीन बिनदाताचें हांसलें
एक उतर ना लोकांची बसली अजापान वाणी
कोणी भिंयेले कितें भरवसो पिशेली ही करणी

इतल्यान आयली मोटार काळी शिंग वाजयतेर
पोलीस़ दोन आयलें भायर पावले सुवातेर
आरडून ओरडून पिशेंर ताणीं बाळशें ओडून घेतले
कितेशे कागदार बरौन आनी आयले तशें गेले
लोकय पावले घराघरानी एक काणी सल्ली
कचऱ्याच्या त्या पिपाशेजारां पिशी मात्र उल्ली
एक खिणाची आवय मेळिल्ली भाग्य ना आवय – दुदाचे
अनवळखी तें भुरगें अनाथ उरलें अनाथ सदाचे.

मुंबै, १ ऑगस्ट ८०

# सिंव

होच तो सिंव, जंगलाचो राजा
हालताली भूंय, भियेंतली झाडां
एकेका पावलाकणकणीं ताज्या

वास येतांच मैलभर
जाताली सवणीं सैरभैर
काचाबूल जावन खेतीं
हुपतालीं फांद्यार उटाउटी
पिलां तांची कलकलतालीं
आवयक मिटी आकांताळी
लिपताले सोशे तणांफाटल्यान
धापून दोळे हुमेल्या आंगान
चितळां गेले कान हुबार्न
धांय दिकांनी धांवताले
हुकी हुकी बोब मारत
पळूंक लागताले कोले

दोळ्यात ताज्या उज्या केंडा
आयाळीक उग्र वास
आंग ताजें ओतीव लोखण
चपळ चाल जळतो श्वास
हुकमत ताजी रानावनार
कर्दनकाळ दिसतालो
ताज्या एका गर्जनेन
गायचो गर्भ गळटालो

होच तो सिंव, जंगलाचो राजा
हालताली भूंय, भियेंतालीं झाडां
एकेका पावलां कणकणी ताज्या

पळया आता पाळला ताका
पांजऱ्याभितर बंदखण
परावलंबी ताजी जीण
फट्दिशी चाबूक फुटतांच
दोनी पांय वैर करता
हांसतात ताका भुरगीं बायलां
ताळया- शिटयां आवाज येता
तकली सकल घालून उबो
खंय गेलो ताजो धाक
पैसल्यान कोलो लेगीत
पळैता ताका खरपून नाक
सांगिल्लें तशीं कारता कामां
एका थाळीत जेवता बरो
ताज्यावांगडा आसतात जेऊंक
एक बकरी आनी बकरो
पाळण्यार बसून घेता झेलो
उडयोय मारता उज्यांतल्यान
सांचे वेळा खावच्या मेळूंक
आयकून घेता घालून मान
सिंव कसलो मेणा बावलें
जगाभितर नांव केदें
परथून पांजऱ्यात वचे वेळार
शेपूट घालता पायांमदें

होच तो सिंव. जंगलाचो राजा
हालताली भूंय, भियेतालीं झाडां
एकेका पावलांकणकणी ताज्या

मुंबै '८०

## माईक्रोस्कोप

मनाच्या माईक्रोस्कोपामुळात
दवरून पळैलो हांवें हांसो
खुशी खुशीचो ओतून वचपाचो
पोटातल्यान खतखतून येवपाचो
सांगलें लोकांनी हांसत म्हाका
आज म्हाका चलो जालो
म्हज्या चलयेक घोव मेळ्ळो
कोण शाळेंत आयलो पयलो
कोण रेशीत बरो खेळ्ळो
कोणा नोकरे कॉल आयलो
इलेक्शनांत सोडलो जिकलो
कोणा प्रमोशनान खोस
चलयेक पळौन चलो धादोस

सगळें हाशें लावन स्लाइडार
पळेतकच दोळ्यांत दिसले
आजमेरेन दिसनाशिल्लें
ह्या भिंगान रंग लेगीत
भंय जावन किरणां जालीं
तांच्या उजवाडा पोंदात
खरी मळमळ वळवळताली

चलो जालो खावपा एक तोंड वाडलें
चलयेचें म्हजें लग्न जमलें पैशे कशे हाडचे पडले
पयलो आयलो आता फुडें करचे कितें

रेशी पैसे रिणात गेले खिशे तशेंच पुरते रिते
नोकरी मेळ्ळी टेंपरवारी, फुडाऱ्याक गर्व भारी
प्रमोशनाच्या खोशी फाटल्यान लांच दिल्ली शरम येता
चलेक पळोवन धादोस जातलो तिच्या बापायक कितलो भिता
दिसनाशिल्लें दोळ्यांक दिसूंक
मदें लागता माइक्रोस्कोप
तेन्ना कळता नकली कितें
कित्याक दिला कसलो ओप!
एकय हासो नासलो तातूंत
फुलांवरी निवळ खरो
पानां फाटल्यान लिपूनय
फुलून दिवपी गंध बरो ।।१।।

मनाच्या माइक्रोस्कोपामुळात
दवरून पळैले हांवें रडें
हमसाहमशीचे, काळीज पिळपाचे
सुखासुखी दोळ्या भरून दुखां सकल गळपाचे
सांगले लोकानी रडत म्हाका
आज घरकान्न भायर पडली
म्हज्या चलयेची सोयरीक मोडली
कोणाचो चलो जालो नापास
कोणाक घडटा सदा उपास
कोणाचे पाकीट मारले कोणें
कोणाक खंय सदांचे दुखणे
पैस खंय पूर म्हणून पैसे मागपी दारोदार
केलो खंय कोणे कोणार दयाहीन बळत्कार
सगळें रडें लावन स्लाइडार

पळैतकच दोळ्यांक दिसलें
आजमेरेन दिसनाशिल्लें
ह्या भिंगान रंग लेगीत
भंय पावन किर्णां जाली
तांच्या उजवाडा पोंदात
खरी मळमळ वळवळताली

भायर पडली घरकान्न तरी एक म्हजी पीडा गेली
बरें जालें मोडली सोयरीक चली बरी कमायताली
नापास चल्याक लायन धंद्याक शिकून तरी कर्म कितें
सदा उपास काडले तरी अजूनय आसात जिते
पैसे गेले तरी येतले जीव मोटो वाचलो आज
शीकपणां गावन गाणें दया मेळौचो हो रिवाज
खोटें रडपी फुडारीय भीक मागत आसतनां
फोटो लेगीत येता छापून दोळे तांचे पुसतना

दिसनाशिल्लें दोळ्यांक दिसूंक
मदें लागता माइक्रोस्कोप
तेन्ना कळता नकली कितें
कित्याक दिला कसलो ओप !
एकय रडें नासलें तातूंत
पावसावरी भिजयलें
जळती जमीन शांत करून
तातूंत बी रुजयतलें ॥२॥

मनाच्या माइक्रोस्कोपामुळात
दवरून पळैली हांवें उतरां

मोगामायेची, दुदासायेची
म्होंवा गोडेची, आंब्या फोडीची
सगळी उतरां लावन स्लाईडार
पळैतकच दोळ्यांक दिसलें
आजमेरेन दिसनाशिल्लें
मायेमोगा फाटल्यान आसलें
आपलें साधून घेवप बरें
दाखौपाचे दांत खोटे
चाबचे मात्र आसलें खरे
दुदासायेमुळात दिसलें
करपून गेल्लें काळीज काळें
दुस्वासाच्या जाळान जळून
भितल्लेंभितर कळमळलेलें
म्होंवी गोड उतरां म्हाका
कानाक लागली भेस बरी
जळ्ळें मागीर आंग जेन्ना
कळ्ळें चाबतात ओंब्यावरी

दिसनाशिल्लें दोळ्यांक दिसूंक
मदे लागता माइक्रोस्कोप
तेन्ना कळता नकली कितें
कित्याक दिला कसलो ओप !
एकय उतर नाशिल्लें तातूंत
दोंगरावरी धीर दिवपी
अचळ स्तब्ध उंच माथ्यान
गगनाकय तोलून घेवपी ॥३॥

मनाच्या माइक्रोस्कोपामुळात
दवरून पळैली हांवें नातीं
लागचीं तशेंच पैसल्लेली
रगतान बांदून घट्ट जाल्ली
सगळी नातीं लावन स्लाइडार
पळैतकच दोळ्यांक दिसलें
आजमेरेन दिसनाशिल्लें
ह्या नात्याचे धागेदोरे
विसविशीत सुटिल्ली सुतां
पीळ खंयच नाशिल्लो तातूंत
वारो आयल्यार हुबून घेतां
सुतक सुयेर सणासुदीक
नातेगोते दायजीपण
पातळतेर वंशवाल सुकून वता मुळापसून
इष्ट जातात कष्ट दिवपी
दिष्टिआड खोदप तांचे
इष्ट कशें दिसलें भिंगान
कोणाचे रूप कसलें खंचे

दिसनाशिल्लें दोळ्यांक दिसूंक
मदें लागता माइक्रोस्कोप
तेन्ना कळता नकली कितें
कित्याक दिला कसलो ओप !
एकय नातें नाशिल्लें तातूत
व्हाळावरी व्हांवन येवपी
काट्यांतल्यान माग काडीत
नदीक वेगान वेग मारपी ।।४।।

मनाच्या माइक्रोस्कोपामुळात
लायलें आमचें आयचें जिणें
लायली न्याय-नीत स्लाइडार
समाजातलें चड उणें

पळैतकच दोळ्यांक दिसलें
आजमेरेन दिसनाशिल्लें
अशें जावपाक कितें जाल्लें
भितल्ले दोळे उघडलेले !

मुंबै २६. जुलै '८२

# ह्या वळणाचेर

ह्या वळणाचेर थांबून मात्शें
फाटी फिरून पळौन घे
धुक्यात रावलें घर पैस रे
दोळ्यांभितर भरून घे

ह्या वळणाचेर चडण वांकडी
छातेत ओडून घे श्वास
आजूबाजून फुलन रावलेल्या
रानफुलांचो घे वास

शेताभाटांची चादर पांचवी
उदकाचे हारशे मदेगती
ह्या फातरार रावन पळय
सजल्या भूंय चित्रवती

तांबड्या मातीची ओड अनावर
पायांक घालता घट्ट मिठी
भूतकाळाचें नाजूक नातें
सोडना जिवाक उटाउटी

अर्द रावली वाट अजूनी
अनवळकी ह्या घाटात
वाडून येतलें कितें कळना तें
भविष्यातल्या ताटात

अस्तमतेक शुक्र उदेला
नदर ताजेर सांदून घे
लोकां-मोगाचे तुवें जोडलेले
बळगें फाटीर बांदून घे

सल्लें गेल्लें ताजी इल्लीय
मनांत खंत नाका करूं
उल्लें कितलें हिशोब कन्र
फुडेंच वच्चे पैली ठरूं

ह्या वळणाचेर थांबून मात्शें
मनाकडेन उलौन घे
फुडली भोंवडी जातली सुखाची
तुकाच एक फावट पळौन घे

मुंबै, २६ जुलै '८२

# सांवळ्यो

सकाळच्या पारार भांगरा किरणां
व्हांवन येतात मळबांतल्यान
भूंय तेन्ना न्हांवन घेता
उटून साकर निदेंतल्यान

सपनां तिगेली पातळतात
चराचरांच्या भोंवतणी
प्रसन्नताय येता फुलून
कंवळ्या सांवळ्यां कणकणीं

सांवळ्यो कशो आसतात म्होंवी
आवैल्या मोगा मायेवरी
रातीं दंवात भिजून येतात
नाजुक दुदाच्या सायेवरी

बाळशें जशें आंगणांभितर
दिमकुन्यांनी भोंवतात सांवळ्यो
खोशेन भरतात पळौन जेन्ना
वाऱ्यान हालतात रुखावळ्यो

मध्यान वरां वताच्या भारा
पोंदामुळा वतात सांवळ्यो
रणरणत्या जाळांलागून
आखडून घेवन जातात काळ्यो

भियेलेल्या सोशांवरी
हातपाय घेतात पांगरून
शितळकाये ओली कळा
छातेलागी घट्ट धरून

वाटेवैल्यान वतलो कोणी
हूम पुसत जावन पुरो
थांबता दोन खिणांखातीर
सांवळ्यो दितात आलासरो

वडापेंडांच्या मुळात गायो
रवंथ करतात दोळे धापून
सवणी लेगीत चिंवचिंवतेर
सांवळ्यांभितर बसतात लिपून

ह्यो जिवंत सांवळ्यो संत
हांच्या काळजात दयेचो झरो
हांच्या कर्तुकायेन जगात
सोबितकायेक रंग खरो

ल्हवू पावलान येताच सांज
लांबलांब सांवळ्यो जाता
जड पावलान चलूंक लागतात
धरून एकमेकांचे हात

सांवळ्यो तेन्ना येतात पिकून
लावन नदर पैलतडी

जाण्टयांवरी सोडतात श्वास
धापून मनात पोरण्यो यादी

वतावांगडा वतात विरून
सांवळ्यो नानपश्यात
पुणून परतें जातात जिवीं
उदेतकच चान्नी रात

सांवळ्यांचे चक्र अशें
उजवाडाक तांची सोबत
दिव्य तेज प्रगट जावूंक
सांवळेशिवाय ना सुवात

मुंबै, २९ मार्च'८३

## दावीं

गर्भात आकूर आकार घेता-घेतानांच
पडलेली आसतात अनामिक दावीं
गतानुगतिक कर्मांची बंधनां अव्यक्त
आवळून घेतात आपले आपूण
अशरीरी आत्म्याक
गुंतोवन आपसूक
जडशीळ जगाची लायतात खूण

दावीं येतात जल्मासोबत
नात्यागोत्याची दायजीपणाची
अनिच्छेन पडतात जातीपातीची
बांदून हाडलेल्या कर्माभोगाची
आसतात कांय योगायोगाची

शरीरधर्माची आसतात दांवीं
पायांत घुस्पून ओडपी फाटी
रगतात व्हांवन येतात बंध
विचारांक बांदून आसतात विकार
कोंडून कोंडून
भोंवऱ्यात फिरपी
करतात स्वतःची स्वतःची शिकार

आसतात दावीं ओडून घेतिल्ली
आपखुशीनच उघड्या दोळ्यांनी
घेतिल्ली आसतात धापून दोळे
सुरळीत चलपाक संसार सगळो

दुखाचे उतरय
काडूंक मेळना
काचून दुखल्यार पिळान गळो

दावीं अशीं ही सोडून सरनात
दावीं अभेद्य मूळ तांचें पुरातनात
एकय पावल फुडें घाल्यार
दाव्याच्या त्रिज्यीन परीघ आंखता
एकलो कोणी
मुक्त जीव
हुपून वेता तोच जिखता

मुंबै, १५ ऑगस्ट '८३

# हे मुंबापुरी

तुज्या विशाळ बाहूत दिसलो म्हाका
फक्त येवकार-आनी हांव आयलो लागीं
दिसलें ना म्हाका ताज्या फाटलें
राक्षसी हावरेंपण
पुणून तो मेरेन जाल्लो हांव तुजोच
तुज्यातच गेल्लो करगून
तुज्या रुपाच्या सोबीतकायेन
भुल्लेलो हांव
आनी कानांत कीर्त घेतिल्ली सांठोवन
बांदिल्ले मनांत हावेस कितेक
अंदिल्लेले म्हजे दोळे तेन्ना
विसरुन म्हाका लेखिल्ले हांवें
तुजी गांठ ऋणानुबंध
जाणूंक लेगीत दिलें ना तुवें
आवळून घेतले म्हाका सबंद.
म्हजें जिणें ओपलें तुका
नाचलो हांव तुज्या तालार
तुवें घाल्ली घडी मोडून
तुवें घाल्ले पाश तोडून
वेगळेपणान जगलो ना
तुवें हातार घाल्ले खावन
हांसलो पुणून उलयलो ना.

रंग रंग केले तुवें
माथ्यावैलो काडलो पदर

पैशां माणकांक मोडले दोळे
तांचो केलो जायतो आदर
नटून मुरडून नवीं जालीं
तुज्या उतरात आयली गाळी

केन्नाकेन्नाय रुसलो तुजेर
पिरंजळून शाप दिले
तुजी नाकटां आंगात जेन्ना
घुसून रगत भायर आयलें
तुज्या श्वासाभितर जेन्ना
जीव म्हजो घुसमटलो
तुज्या हिंस्त्र नदरेन म्हाका
जेन्ना आंगाक चिमटो काडलो
फुगून तुजेर निर्शेलेलो
पुणून उणी तांक म्हजी
भुकलेल्या भुरग्यावरी
आयलो परथून जावन राजी

पैर असोच निदलो तेन्ना
सपनाभितर मरण तुजें
पळौन गेलो हुमेन भन्न
काटो आयलो आंगाचेर
रावलो हुबो सर्रकन्न
दोळे चोळीत खिडकेभायर
पळैले तुका दिसली पैस
मोगाची तू मुंबापुरी
हळू हळू परवताली
कमरेभितर दूख म्हण.

केस तुजे पिकून धंवे
दोळ्यार आयिल्लो कांचे खडो
तुज्याच द्वाड कर्तुकायेन
मेळिल्लो तुका असो धडो

मुंबै, १६ ऑगस्ट '८३

# पावस

पावस आयलो पावस आयलो दिया येवकारा
नित्की कशीं उकती जाली मळबाची दारां
अमृताचे कुंभ घेवन
ऐरावत आयले म्हान
भांगरा रोसा शिंवर घालती तप्त संवसारा
मातेक सुटलो वास मंद
अत्तराचो मधु सुगंध
सृष्ट कशी चवरून आयली तुष्ट अंतरा
हांसूक लागले फुलां झेले
सवणि घालती मधुर उले
धायदिकांनी फुल्लो हर्ष विश्वमंदिरा
भिजली झाडां भिजली पानां
तकतकीत सजली वनां
सळसळत व्हाळ आयले व्हांवन दोंगरा
भल्ल्यो बांयो भल्ली तळी
पांचवेचार जळीमळी
नखशिखान्त न्हांवन आयली ही वसुंधरा

मुंबै, १७ जून'८५

# अपुर्बाय

एक म्हजें कालू बाये
खंच्या कुळण्या घालूं

दुडुदुडु धांवता घरांत आंगणा
धरुं गेल्यार हातात मेळना
हाज्या खेळान धर्तरी सगळी
डळमळ लागता हालू ।।

दूद-धंयाचेर हात मारून
गुळो लोण्याचो खाता चोरून
खोडी काडतना गेलें शिणून
कशें हाका सांबाळूं ।।

पोर म्हगेलो अपुर्बायेचो
मस्तेखोर तरि मोगामायेचो
म्होंवाळ हाज्या उतरावैल्यान
जीव काडून उंवाळू ।।

एक फावटीं संद सादून
ताका खुट्याक घालें बांदून
पळेलें ताज्या मुखात लागिल्लें
विश्वरूप धुंवळूं ।।

करणी हाजी सदा अकल्पित
जें जें घडता तें तें अद्भूत
हातात आयला पारसमणि हो
हजार हाका पैलू ।।

मुंबै १७ जून'८५

# वखद

कुवाड्याचे वखद आसा
जिवाक बरें पुणून कोडू ।।

संसाराच्या तापान जेन्ना
मन सामकें जळुन वेता
नियतीचे भोग भोगीत
देह लेगित पिळून येता

हड्डें जाता हुन्हुनीत
दुखांपसून सुकून वेतात
नदर जावन सैरभैर
चारी दिको घुंवळतात
अशा वेळार म्हणूं नाका
जग सगळें पाड पडूं ।।

हें वखद घेवचे जाल्यार
पयलीं काळीज घे पुसून
मनां कोनशें धुवून साफ
जंग ताजो काड घासून

मिटाकणी आमले तोर
जिबेर येऊंक चव नवी
देवाचें नांव घेवन तशें
दोन उतरां घोळय म्होंवी

ल्हवू ल्हवू पडता फरक
जोर लागता पांय कांडू ।।

मागून मेळना हें वखद
पैशे हाका पडचे नात
स्वतःभितर आसून मुळी
कोणूय तिका वळखयनात

सोदून काडात आपलेआपूण
अणभवाक आसा मोल
साणीर मुळी घासली तशी
गळून वेता सगळें पोल

नदर सामकीं निवळ जाता
वैरभाव लागतात मोडूं ।।

पैलो घोट घेवचेंभितर
कळुन येता कोण हांव
ह्या जगाचें यंत्र कशें
चलता ताजो लागता ठाव

आदिशक्ती विश्वबीज
जिवात अंश चेतना
वळख तिजी मेळता चोय
मायेचो रोग निवळतना

नित्य घेवचें वखद अशें
मदेंच मात्र नजो सोडूं ।।

उलौ नजो चड मागीर
चोंवचे जगा शांतपणान
घडत आसतात घडामोडी
बदल जातात खिणाखिणान

उदकांतल्या साळकावरी
अलिप्ततेन घेवचें सार
फुलचें सदा पर्मळत
राखून तळामुळात क्षार

अहंकार पडता गळून
नवें नातें लागता जोडूं ।।

मुंबै, १३ जानेवारी ८६

# फांतोट

हगूर हातानीं
खिडकेचें कवड
हळूच धुकळळें.
पयल्याच दिठीक
मळब दिसलें.
निरभ्र मेकळें.
निळें निळें.
नजर जंय
पावतामेरेन
आपसुखच
पातळलेलें.

मळब स्वच्छ
शांत सोबीत
गूढ तरीय
हांसकुरें
नखशिखान्त
भिजून दंवात
सचैल न्हाण
न्हाल्लेलें.

भितर सल्लो
थंड वारो
रोम सगळें
किल्लेलें

फुलत्या कळयांचो
भरून गंध
जग सामकें
भुल्लेलें

भरून एक
दीर्घ श्वास
अणभवाक
आपलें केलें.
बोमले मेरेन
आंग सगळें
प्रसन्नतायेन
भरून गेलें.

अशें कशें
लागलें पिशें
काय म्हाका
कळना जालें
उकत्या दारान
भितर सरून
आयलें कितें
दिसनाशिल्लें.

हें अजाप
नित्याचें
चिरंतनाच्या
सत्याचें

खिडकेकवडां
धापून घेतल्यार
भायलें जग
लिपतालें

नवे विचार
मनांत आयले
कल्पनांक
फुटली फांकां
गीत वटार
आयलें फुटून
छंद तालात
घोळलेलें.

सैमाचें
गूढ आंज
आपलें आपूण
होलमलें.
फांतोटेच्या
त्या पारार
भायर लख्ख
उजवाडलें !

मुंबै, १४ जानेवारी' ८६

# पेटूल

या गो या, खेळ खेळूयां
पेटूलात आसा कितें, सांगा पळोयां ।।

पेटूलात आसा एक उबो हारसो
घडी घालतकच तो लिपता कसो
फणी घेवन चंदनाची
केस ओळोव्यां ।।

पेटुलात आसा एक कुकमाचो डबो
कपलार ताजो एक लावूंया थिबो
हळवी मेंदी लावन घेवन
रंगात घोळूंया ।।

पेटूलाच्या खणाभितर मंगळसुता दोर
ताज्यालागीं आसा एक रुप्याचो गो मोर
भांगरा फुलां चांदी बिंदी
केसांत माळूंया ।।

पेटूलात आसात कांकणां पाटल्यांचो जोड
पिन्नां रिबनीवांगडा सोबीत ब्रूच एक होड
कुपीमदले अत्तर काडून
हातार चोळूंया ।।

पेटूलाक राखता आजी भारी ताकतिकेन
म्हणटां कशी म्हजी बाये कुळाराची देण
पोरण्यो तिज्यो यादी तातूंत
त्यो सांभाळूया ।।

मुंबै, ७ जून'८६

# नंदी

बुगू बुगू बुगू बुगू
नंदी आयलो गांवात ।
भुरगीं बाळां सगळी जाणां
येवन पळेयात ।।

नंदील्या फाटीचेर मख्मलींची झूल
ताजेवैर सोबीत एक भांगराचे फूल ।।

नंदीच्या पायांचेर छुम छुम चाळ
नंदील्या गळयाभोंवती गोंड्याची माळ ।।

नंदील्या शिंगांचेर तुऱ्यांचो थाट
नंदील्या कपलाचेर कुकमाचो पाट ।।

टप् टप् तालाचेर पावलां नाचैता
झेमतेर झेमतेर माऩ हालैता ।।

परीक्षेत सांग हांव पास जातलो की
नंदी म्हणटां मानेनच हय् नक्की ।।

मुंबै, २८ सप्टेंबर'८६

## बाळकृष्ण

म्हजो गुणाचो तो लोण्याचो तो बाळ गो
ताज्या पोल्यार आसा एक तीळ गो

कमळदळांवरि व्हट तागेले
पिळल्यार दूद भायर येतले
हांसता कसो तो म्होंवाळ गो

श्रावणांतली दोळ्यांत किरणां
पळौंक लागल्यार पातीय हालना
नदर कशी ताजी तेजाळ गो

हातापायांक रावता हालैत
पायाचो आंगठो चोखूं पळैत
पाळंण्यात करता बोवाळ गो

आनंदकंद बालमुकुंद
म्हज्या मनाक ताजोच छंद
गोविंद सुंदर गोपाळ गो

मुंबै, २९ सप्टेंबर'८६

# बावलीचें लग्न

बावलीच्या लग्नाची आयली वार्ता, आयली वार्ता
पें पें तक्कड धुं बेंड वाजता.

चिमणी आयली फुलां घेवन रंगरंगीत
कावळ्यान सुरू केलें काक-संगीत
पिसां फुलौन छुम्मक छुम् मोर नाचता, मोर नाचता...

मांजर आयलें खीर घेवन शाबूदाण्याची
लाडू शेव शंकरपाळी पोळी पुरणाची
घमघम वासान तोंडाक उदाक सुटतां, उदाक सुटता.

माकड आयलें भट जावन धरूंक अंतरपाट
मंतर बिंतर म्हणूंक लागलें सगळें तोंडपाठ
आयल्या-गेल्या सगळ्या कपलां कुकुम लायता, कुकुम लायता.

केंसा फांती कुडकां आनी हिऱ्याची कानां
बनारसी शालू हातां पांचवी कांकणां
नाका नथ घालून व्हॊकल सामकी लजेता, सामकी लजेता.

व्हॊंकळीक घेवन आपौच्याक गेल्लो कोलोमाम
केन्नासावन वाट पळौन थकली सगळीं जाम
बावलीकय झेम आयली न्हिदून पडता, न्हिदून पडता.

मुंबै, २८ सप्टेंबर'८६

# वसंत

आयलो हो ऋतु वसंत धरेर . . . .

तांबुस रंग पिपळापानांर
ऋतुराजाक ताजो येवकार
मूर्तिमंत चैतन्य उबे हें
रावला सळसळतेर ...

जाई सुरंगी ओंवळां सायली
फुल्ली सांवरी चांपीं चमेली
म्होंव चोखूंक भोंवतात भोंवरां
भोंवतणी गुणगुणतेर ...

घम घम पर्मळ आंब्यार मोहर
माडांपेडार कंवळो बहर
व्हांवता मंद वारो शितळ
सुगंध ल्हारांचेर

चारा चुन्नां बोरा चिवरां
भरून आयली ही फळभारा
अर्पण करपा निवेद्य ताका
रान उबें हांसतेर

पोपट कावळे आनि रूबुतरां
बुलबुल चिमण्यो बांदतात घरां
फोण्ण कवचां पिलां येतात
भायर चिंवचिंवतेर

कोकिळ गायता मधुर स्वरात
फुललो हर्ष चराचरात
कुसुमाकर हो आयलो म्हणून
उत्सव धर्तरिचेर

मुंबै, ९ मार्च'८८

## म्हजें घर

दर्या देगेर, आसा म्हजें घर
ओता पावसात, तिगून रावला
माथ्यार माडांच्या, आंब्यांच्या झाडांच्या
पानांची सळसळ, वाऱ्या ताला ।।

फोंतोटेर वता उटून बापूय तोळक्यां भितर घालून जाळें
हात हालैत पळैता हांव भरून येतात म्हजे दोळे
नुस्तें घेवन आयालो की परथून
घराच्या आंगणा येता कळा ।।

दिसभर हांव वांगड्यांक घेवन करता बोवाळ मांडून खेळ
उंडी रूकार लिपता-हुपतना कळना कसो वयता वेळ
पाळांर पोंवतना रेंवेत धांवतनां
घराचीच याद पावलां पावलां ।।

सांच्या पारार अस्तमतेर सूर्य तांबडो उदकात बुट्टा
माय म्हगेली येता घरात सुक्याच्या वासान रान्न पेट्टा
घराच्या म्होऱ्यात सुखान न्हिदेत
अशें जिणें कोणां मेळूं आयलां ।।

मुंबै, ५ जानेवारी'८९

## कोंकणी

रत्नां- माणकां खण कोंकणी
नाद-नर्तनां उतरां कणकणीं

दूद म्होंव तर उपाट भल्लां
सुरबुस अमरुत वैर विरकलां
रसरंगांची अनुपम राणी ...

स्वर गाण्याचे कवन - व्यंजनां
तशें तुजें स्वर आनि व्यंजनां
देवांची तू छांदस वाणी ...

वंडलांची पुण्याय युगांची
माया आवयची जल्मजुगाची
नुलैत तांची सांगशी काणी ...

ती आयकुन हो प्राण चंवरता
गात्रांतल्यान पुरुषार्थ शिंवरता
अशी तुजी गे अद्‌भूत करणी

देवामागिर तुकाच वंदन
कर उन्नत गे आमचें जनमन
जीण उजळ कर तुजें वरदानी ...

कारवार, १ में ’८६

## मोगरेफूल

मोगरेवालेर फुल्ला आज फूल एक सान
डौल ताजो सांगू कितें रंग गोरो पान

वारो कसो शाण्यावरी ताका दुकयना
किर्ण लेगीत मोंव जावन ताका सुकयना
अपुर्बायेन शिर्‌शिरून गायति गूण-गान

वाले आंगार चंवर दाट भल्ला माये–रोस
पानां-पानांर खुल्ला साज फुल्ला तिजो खोस
निवली तिजी नवल-नवी आवैपणा तान

ताजी नाजुक कळा क़शी दुदावेली साय
देव हांसता तातुतल्यान भन्न कौतुकाय
तरतरीत रुप ताजे न्हांवन दंवा न्हाण

गंध ताजो घालता भूल दिवन मना साद
जागी जाता मागीर एक गोड म्होंवी याद
काळजाभितर घर करता शिरुन दोळ्यांतल्यान

मुंबै, २८ सप्टेंबर'८६

## सोध

खंय गेला शाम म्हजो
दोळ्यांक दिसना
उल्याक म्हज्या उतर येना
विरह सोसना

लाख दोळे मोरा तुका
दाखय म्हाका वाट
खंच्या दिकेन वचूं फुडे
सांग एक फावट

कोगिळे गे गळ्या तुज्या
म्होंवाचो झरो
साद घाल तुज्या सुरान
येत बी खरो

काळखेराती चूड तुजी
काजूल्या रे हाड
पावलां म्हजा कृष्णाची
तूंच सोदून काड

मासळे तुजे दोळे बायले
उक्ते गो सदीं
उदकाभितर लिपून बसल्यार
तूंच सोदून दी

लखलखीत सूर्या तुजें
झगझगीत आंग

सोदून काड किरणांन तुज्या
शाम खंय सांग

चांदमामा धवल तुजें
चान्नें रकय रे
दूद लेखून येतलो फुडें+
ताका दाकयरे

वाऱ्या तुजें आंग चपळ
धांवन वचून यो
शाम म्हजो खंय आसा
खबर घेवन यो

झाडांपेडां तुमी कित्याक
गप्प रावल्यांत
पानां- फळां सळसळावन
ताका आपयात

आकूळपिकूळ काळीज म्हजें
दुकां गळैता
जळतो जीव धा- दिसांनी
सोदून पळैता

मेळना म्हणून दुखांभितर
सूख सोसता
म्हज्या काळजाभितर चोर
लिपून हांसता

मुंबै,२९ ऑगस्ट'६८

## सपन

कळेकं पडलें सपन फुलाचे
दंवाचे घडलें कंवळे न्हाण
शिरशिर व्हांवली शिराशिरांत
कानांत घुमलें नवीन गान

फुलांतल्या मधु मधुर रसाचो
मत्त-सुगंधित आयलो वास
नवें-नवल हें रूप प्रफुल्लित
इंद्रधनूचो अपूर्व भास

भोंवरांक साद घालून आपैना
पानांच्या फाटल्यान ती लिपली
खातखुतल्यांचो मोहर मनांत
देटांतल्यान थरथरली

सपन विखारी पिशें लावपी
विसरून गेलें कळेचे भान
अनवळखी अणभवान जाली
सकल लजून नाजूक मान

लाल गुलाबी रंग पसल्लो
पाकळ्यांचेर नवोच साज
भांगरांच्या किरणांनी सुचैलो
नवोच अर्थ जिण्याक आज

मुंबै, २९ ऑगस्ट'६८

## वळख

मनबाचो घुमट निळो
कळशा उदकात धरता जसो
तुज्या निळया दोळ्यांभितर
सासणाचो मोग तसो

मोगरेच्या कळेत गंध
लिपलो तरी भायर येता
तुज्या हांशात कंवळो भाव
चान्यांवरी विरकून वता.

कळकेबनात वारो कसो
दिसनासो घालता शीळ
तुजें आमुरपिकें उतर
काळजाभितर घालता पीळ

नाद वळेत कवनाच्या
घुंगरा वाजैत भोंवता फिरता
पावलार तुज्या छंद ताल
नर्तनाचें रूप घेता

मळबाचो घुमट निळो
कळशा उदकात कसो धरता
हुमाण्याचे उतर दिता
ताका तुजी वळख मेळता

मुंबै, २ मे ६८

## पिकून पिकून

पिकून पिकून फळांवरी
        रसाळ जावन येवचें
कोडूमधुर अणभवांचे
        सार शोषून घेवचें
फुलून फुलून फुलांवरी
        प्रफुल्ल जावन येवचें
परमळाच्या भांडाराक
        पोटांत जिरौन घेवचें
जळून जळून उज्यावरी
        तापून तेज येवचें
पोल सगळें जावन खाक
        असल तेंच उरचें
व्हांवन व्हांवन उदकावरी
        निर्मळ जावन येवचें
तानेल्यांची भागोवन तान
        शितळ जावन रावचें
वाडून वाडून झाडांवरी
        चोंयवशीन भरचें
आंगाखांद्यार सवणी नाचयत
        सांवळी दीत रावचें
घुमून घुमून दर्यावरी
        शांतचित्त जावंचें
सुखां-दुखां घेवन पोटांत
        अथांग जावन रावचें
गुणत गुणत मळबावरी

विशाळ जायत वच्चें
सचेतनाचो नाद आयकत
विश्वरुप जावचें
जगून जगून मागीर म्हाका
म्हातारपण येवचें
भरल्या मनान कृतार्थतायेन
पयलतडीं वच्चें

मुंबै १३ मे ९०

# इतिहास

इतिहासाचीं पानां फिरयल्यार बोटांक लागतात रगता–थिबे
वाचतां–वाचतां काळीज हालता आंगार रावतात रोम उबे

जातीपातीच्यो वंटी उबारुन मनशानी केले मनीस गुलाम
त्या वण्टींच्या चुन्यात चिणलो पिळून तांच्या श्रमाचो घाम
निर्बळांक धरुन मुठीत बळिष्ट तेच जाले धनी
शोषण करपी सगळेकडेन एका माळेचे सारके मणी
किळंचायो त्यो येतात आयकूंक बळी गेले जे बकऱ्यासमान
तोंड धांपून मेले तांच्याय हुस्काऱ्यांनी भरतात कान
हालहाल तर भीषण कितलें दुःखांच्योय व्हावल्यो नदी
भाजून मेले लोक कितेक दुष्काळांच्या उज्यामदीं
शतका–शतकांनी झुजां पेटतालीं शस्त्रांस्त्रांचे खणखणाट
हाडामांसाचो चिकोल जातालो व्हांवताले रगताचे पाट
सदा येताल्यो घुऱ्यो आनीक रणखेंवांचो उच्छाद
पोटांत उटता गुळो आयकुन घोड्याखुरांचे ते नाद
हाय–हाय हो शब्द घुंवतालो सगळेकडेन संहार
हजारांनिशीं करताल्यो बायलो पेटत्या चितेंत जोहार
द्वेष–त्वेषाक ओतो येतालो मनिसपणाचें ना नांवनिशाण
सूड भावना पेटून उठताली लासून जातालें सगळें भयाण
भूंय–धनाच्या लोभान जाली कितेक राज्यां उध्वस्त
सर्वसाक्षी त्या काळान पळयलो कितेक नगरांचो अस्त

थर मातीचे वर्सांनुवर्सां ताजेर पडले उपरांत
खणून काण्णा कित्याक करचो आयच्या घडीक आकांत
इतिहासाचीं मढीं पुरलेली वचूं तशींच ती पाताळांत

हाडांचे सापळे काडून वैर नाचोवचें नाका ह्या काळांत
वेताळ चावंडी खवीस म्हारु येवन बसतले आमच्या मानेर
भुतावळ ती सकल उतरना मनाभितर रिगून वतेर
कीट सुडाची चूड पेटयता जळोवन करता जिणें गोबर
इतिहाचाच्या पानांपानांतल्यान शिकून घेयात हीच खबर
पितरांचीं तीं पापां घुरुंक आयचें रगत शेणूं नाकात
दुस्वासाची वाट थेट ती व्हरता सगळ्यांक नरकांत
इतिहासाच्या काळकी गुहेच्या तोंडार दवरात एक फातर
परतें ताजेकडें पळयनासतनां फुडाराचेर दवरा नदर

फाटीं पळयत वतात तांचे मोडतात पांय पडून फोंडांत
भान आसूं द्या आयच्या काळाचें सुखाचो मंत्र आसूं तोंडात

मुंबै, १८ नोव्हेंबर ’९०

# प्रार्थना

नित्य तुजी माया मोगाळ मेळूं ही प्रार्थना
तू अनंत तूं अपार हे दयाघना ।।

सदां सकाळी मळब पटार तूंच चित्र काडटा
तुज्या कृपेन उदेवन सूर्य सांजे सकल बुडटा
कालचक्र चलयता तूंच हे सचेतना ।।

फुलांतल्यान हांसता तूंच वाऱ्यार तूंच गायता
पावसाच्या पांवळ्यांनी तूंच सकल ओतता
चराचरांत भल्ला तूंच हे चिरंतना ।।

मातेंतल्यान कोंब वयर सरता तुजी करणी ही
पानांपानांर तेज तुजें फुलुन येता धरणी बी
रंगरुपान गंधरसान रचयता जीवना ।।

अमूर्त आसून भावता मनाक जशी जाची भावना
तुजोच अंश आमच्या देहांत हीच आमची धारणा
म्हणुन तुजें स्मरण सदां हे सनातना ।।

मुंबै, ८ फेब्रुवारी' ९२

## अचानक

मुंबैच्यां म्हज्या घरांत
खिडकेलागीं सदांच घालून दवरलेल्या
हांतुळणार एकमुळोच पडून रावतल्या
म्हज्या बापायचो
कापलेलो उजवो पांय दिंबयेसकल.
शस्त्रक्रियेच्या त्या भयंकर अग्निदिव्यांतल्यान
आपल्याच नियतीवांगडा निःशस्त्र लडून–झगडून
भायर आयिल्ले तेन्नां शेंडून आयिल्लो तो
आपलो इक पांय, ताजेनंतर खंयतरी जो
कृष्णार्पण जालो.
स्वीकार केलो सत्याचो म्हज्या बापायन
रडलो ना केन्नांय त्या सोडून पैस गेल्ल्या
आपल्याच देहाच्या एका कुडक्याखातिर
जल्मापसून आशिल्लो जो वांगडी आनी
भोवंडावन हाडतालो ताका सगळें जग
आपल्या आधारान.
म्हणटालो पुणून केन्नांकेन्नांय
अरे, दिंबेसकल पळय म्हाका
अचानक खाज येता !

अशेंच तिनसानचें माडांवयल्यान भांगरांची
किरणां मंव–मंव जानव ल्हवू–ल्हवू उतरतानां
नदर ताजी लागताली पैस.... खंयतरी....
सोदतालो तो मळबात शेंडून गेल्लो तो आपलो
गांव, तें घर, ती बाग, ती बांय, ते माड, झाडां

आंब्याची आनी फांतोडेर आयकुवपी बांग कोंब्याची.
न्हियाळतालो तो आपल्या दोळ्यान मळब थंयचे
पांचवेचार गुडे, धोलपी शेतां, वेळवयली धवी रेंव
आनी फडफडपी धरलेले जिते बांगडे. दर्याची गाज
घुंवताली ताज्या कानांत आनी दिसतालें पैस वचपी
तारवाचें शिडें. आकूळपिकूळ जावन
मायेमोगान म्हजो हात धरुन
म्हणटालो तो केन्नांकेन्नांय
अरे, गांवाची–घराची पळय म्हाका
अचानक याद येता !

मुंबै, ९ फेब्रुवारी'९२

## अंतर्नाद

घेत घेत घेत रावलो परतें आतां दिवपा जाय
चलत चलत चलत रावलो थीर आतां करचे पांय

ह्या फुलार त्या फुलार म्होंव पुंजावन घेतलें फिरुन
थेंब थेंब अणभवान घागर जिण्याची आयली भरुन

काटेकुटे तोंपले पुणून तूं म्हाका विसरलो ना
तुज्या कृपेची सावळी दीत रावली थंडसाण मना

पोश्याभितर दिवो म्हज्या तेल घालत रावलो तूं
पावलांमुळांत उजवाड सदां आनी चड कितें मागूं

समाजाचें रीण म्हजेर दिसानदीस वाडत गेलें
मन आतां सोदतां जावंक बंधमुक्त मेकळें

आयकूं येता नाद म्हज्या अंतरांतल्यान हो
ताजेवांगडा सार्थकतेक दिता एक अर्थ नवो

घेत घेत घेत रावलो परतें आतां दिवपा जाय
चलत चलत चलत रावलो थीर आतां करचे पांय

मुंबै, २४ में ९२

# निमित्तमात्र

हांव निमित्तमात्र रे
हांव निमित्तमात्र रे
आज हांव गायतां जरी तुज्या कृपेचें गान रे
सूर तुजोच नाद तुजो शब्द तुजेंच दान रे
हांव निमित्तमात्र रे...
तुज्या पुजेक हाडली हांवे हीं फुलां नवीं ताजीं
हांका रंग गंध रूप दिल्ली ही माया तुजी
हांव निमित्तमात्र रे...
ह्या जगाचे यंत्र अशें चलता तुजी प्रेरणा
फुलून येतांच तुजो हांसो तणा पातेत चेतना
हांव निमित्तमात्र रे...
ह्या कुडेत ज्योत येदी जळौन पैस सल्लो तू
पुणुन बांदून हात म्हजें तनामनांत भल्लो तू
हांव निमित्तमात्र रे...
ना म्हाका म्हजें जिणें जावन तुजोच भक्त रे
बंदखण पुरो तुजी कर आतां विमुक्त रे
ना जाल्यार म्हजें जिणें
जगूनही अपात्र रे
हांव निमित्तमात्र रे...

## चंद्र उदेता

चंद्र उदेता उरांत जेन्नां
मुखार फुलता चान्नें
मनांत फुट्टात ल्हारां आनी
वटार खुलता गाणें

रोम रोम झंकारत उट्टात
प्राणाचो मोर चंवरता
फुट्टात फांकां सातूय रंगांक
सृष्टित हर्ष शिंवरता

शब्दशब्द रसगंधित जावन
मंत्रमुग्ध हांव झेमतां
सघन नाद ओंकार सचेतन
खोल खंयत्तरी घुमता

ती घटिका अनवळखि अमोलिक
फुलांवरी परमळटा
गोकुळातल्या घननीळाली
कानांत मुरली घोळटा

चंद्र उदेता उरात जेन्नां
म्हाकाच हांव विसरता
प्रकाशांतल्यान प्रकाश उसळटा
चराचरांत तो भरता

मुंबै

# राक्षस

अविवेकाच्या अणुरेणून भरलेलें आसता
वीख अमानुषतेचें
गोबरामुळांत न्हिदिल्लो अंगार
जसो येता फुलून एका फुकेसरशीं
संतापाचो सादो श्वासही पुरो जाता
भडकून उटतल्या जाळांखातीर
अविश्वासाच्या भयाण काळखांत
आपसूकच वाडता द्वेषाचें बीं
आनी जल्मा येता एक भयानक राक्षस
भरडीत दाढो—अकराळ विकराळ.
सहस्त्र पायांक आसतात हिंस्त्र नाकटां
आनी सहस्त्र हात
सहस्त्र तोंडात आसतात सहस्त्र दांत
अजापाचें एक कळना
चेहरो ताजो वळकूं येना
फुटक्या दोळयांत नदर नासता
खंच्याय दिकेन धांवूंक लागता
आकांताचो आवाज काडीत ताज्या आंगार येता भार
मोडून तोडून फोडून करता थयथयाट संहार
ताज्या हातांत चूड पेट्टा
सुक्यावांकडा ओलेंय जळटा
मडीं पडतात एकामेकांर घरांदारां लागता उजो
व्हांवतें गरम रगत पिवन वाडता चड खोस ताजो
धरा मारा जीव घेयात एकाच कंठान एकच घोष
मदें येतल्याक कापून काडता नासतनांय कांय दोष

आवयमुखार मरतात भुरगीं भुरग्यांमुखार बापूय वेता
वेताळाच्या नागड्या नाचान आंगाचेर कांटो येता
वळखदेखीचें जाता भस्म शेजारीय येना धावन
जिबली चाटत रावता राकेस मनिसकायेक गिळून घेवन
थोड्यावेळान दुकांधुकट धाड् धाड् धाड् लाठीमार
बंदुकीच्या नळेतल्यात सणकत सुटतात गुळयां फार
किळंचाय आयकूं येतात सगळेकडने धांवाधांव
फातर धोंड कांचेचुरो मसण माती चारी ठांव
मोडून पट्टा राक्षसाचो उसणो मदांध मत्त धीर
आयलो तसोच शेंडून वेता फुटता फुगो खिणाभितर
अशरीरी राक्षसाचें कर्म केदें जीवघेणें
दुखांलेगीत सुकून वेतात सांगपाकय शब्द उणें.

मनीस एकलो आसता तेन्नां निर्बळीच आसता खरो
आंगात जेन्नां रिगत राकेस कानांभितर भरता वारो
बुद्द मागीर निवळून येता जेन्नां अशेंच तिनसनां
शांत मेकळ्या मळबामुळात बसुन विचार करतनां
लजुन ताजें मन भितर म्हणता आसत कीं हाय हाय ?
येवजून आपलें कर्म ताजें दोळे भरुन येतात काय ?

मुंबै, १५ जानेवारी ’८५

## आमचीं कांय नवीं प्रकाशनां

- ✧ **साहित्य सुवाद**
  — डॉ. मनोहरराय सरदेसाय
- ✧ **चित्रांगदा**
  — पांडुरंग भांगी
- ✧ **मृद्‌गंध**
  — सुरेखा तोटेकार
- ✧ **सैम-घुडी**
  — उदय गांवकार
- ✧ **पारजत फुलां**
  — नरेंद्र कामत
- ✧ **जैत**
  — श्रीधर कामत
- ✧ **शीला**
  — एन्. सुहास
- ✧ **गाज**
  — शशिकांत पुनाजी
- ✧ **मोतयां**
  — रोहिदास मंगेशकार
- ✧ **अक्षयदिवो**
  — आनंद वर्टी



आनंद वर्टी

तरेतरेच्या रोसांत भिजून आयिल्ली
अर्थगर्भ, चित्रमय, शब्दकळा-
आनंद वर्टींच्या कवितेचे खाशेलेपण. तांच्या
काव्यात सैमाचो मोग आसा, जिण्यावैली
स्त्रद्धा आसा, आध्यात्माचो सोस आसा,
तशेंच नव्या युगाचे भानय आसा.
प्रयोगशीलता हो तर तांच्या काव्याचो
मुखेल गुण. म्हणूनच तांच्या काव्याक
एक सदांचे ताजेपण, प्रसन्नताय
लाभल्या. तांची उतरां काळजाक जशी
रोमतात तशींच विचारांकय धोंसतात.
कोंकणी सायित्याच्या कुडात फाटली
चाळीस वर्सां, एकनिष्ठपणान तेंवत
राविल्ल्या तांच्या स्वयंप्रकाशी प्रतिभेचो
हो मोलादीक आविष्कार- 'अक्षयदिवो'
कवितांचो झेलो.

ISBN 81-85854-01-7